# हरीश, पिरीश आनी देंवचार

( बाल नवलिका)

सतीश दळवी







गोंवा कोंकणी अकादेमी

हरीश , पिरीश आनी देंवचार
बाल नवलिका

सतीश दळवी

प्रकाशन क्र. 94



पयली आवृतीः
2007

उजवाडावपी :
ज्योसिनो वाझ
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी
पणजी गोंय 403 001

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां :
डॉमनिक कोर्दो

छापणावळ :
रूतू ऑफसेट
वळवय, फोंडें- गोय - 403 401

मोल : 50/-

Harish, Pirish ani Denvchar
Children Novelette

by Satish Dalvi

Publication No. 94





First Edition:
2007

Publisher:
Joaosinho Vaz
Secretary,
Goa Konkani Akademi
243, Patto Colony
Panaji Goa 403 001

Cover and Inside Pictures:
Domnic Cordo

Printer :
Rutu Offset
Volvoi, Ponda- Goa - 403 401

Price : Rs. **50/-**

# अकादेमीचे वतीन ...

कोंकणीत बालसाहित्य मोट्या प्रमाणांत उजवाडाक येता. तातूंत कविता, काणयो. निबंद, नाटकुलीं-एकांकी अशा तरेच्या ललित साहित्याचो आस्पाव आसता. पूण खासा भुरग्यांखातीर बरयिल्ल्यो अश्यो बाल नवलिका अवघ्योच म्हणच्यो पडटल्यो. देवनागरी लिपयेंत उजवाडाक आयिल्ल्या नवलिकांची संख्यां सद्याक तरी वीसांवयर आसचीना.

बाल साहित्याक मागणी मात खूब आसा. कोंकणी बाल साहित्याच्या मळावयलो नवलिकांचो हो उणाव थोड्या तरी प्रमाणांत भरून काडचो ह्या हेतून गोवा कोंकणी अकादेमीन 2005 वर्सा 'बाल नवलिका लेखन प्रकल्प' चालीक लायलो. आरंभाक लेखक म्हण नामनेक पाविल्ल्या आनी बालसाहित्याच्या मळार लेखन केल्ल्या अशा लेखकांची एक बसका आपयली. तातूंत सुमार सोळा लेखकांनी बाल नवलिका बरोवपाचें लिखित स्वरूपांत मानुनूय घेतलें. तांचेलागीं तश्यो कबलातीय केल्यो पूण दिल्ले मुजतींत अवघ्याच लेखकांनी नवलिका बरोवन पूर्ण केल्यो. ज्यो नवलिका आमचेकडेन आयल्यो त्यो संपादक मंडळामुखार दवरून तांचेर गरज ते संस्कार करून घेतले आनी त्यो आतां पुस्तकरूपान वाचप्यांमुखार येता.

एका संचात चार बाल नवलिका उजवाडाक येता. त्यो म्हणल्यार ---

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. | वर्स फुकट वचूंक ना | :- | गजानन जोग |
| 2. | हरीश, पिरीश आनी देंवचार | :- | सतीश दळवी |
| 3. | काणी आज्याली | :- | देविदास कदम |
| 4. | रानाच्या मनांत | :- | माया खरंगटे |

ह्यो चारूय नवलिका आयच्या बालवाचप्यांक मानवतल्यो अशी आस्त आसा.

' बाल नवलिका लेखन प्रकल्प' येवजणेतल्यो फुडल्यो नवलिका अश्योच उजवाडा येतल्यो.

**पुंडलीक नायक**

अध्यक्ष

# 1

हरीश आनी पिरीश. दोग इश्ट. सामके जिवा-भावाचे इश्ट. धा वर्सां पिरायेचे भुरगे. वांगडा इस्कोलाक वताले. एका वर्गांत एका बांकार बसताले. एके इमारतींत शेजरा रावताले. पयले माळयेर फ्लेट. गेलरी समोरा-समोर. हरीश आनी पिरीश बाल्कनींत रावन सद्दां गजाली करताले. गॅलरींत तांचो रावपाचोय वेळ थारायिल्लो आसतालो. तशेंच सांज जाल्याबरोबर सकल देंवपाचोय तांचो वेळ थारायिल्लो आसतालो. हातूंतलो तांचो खंयचोच वेळ चुकनासलो.

तांतलो खंयचोय वेळ चुकोवप म्हळ्यार तांचेर आकांत येतालो. उचांबळ जाताले. कित्यांनूच तांचें चित्त लागनासलें. इतले एकामेकाक मेळूंक उतावीळ जाताले. गॅलरींत मेळटा तेन्ना तांच्यो गजाली नेटार चलताल्यो. चडशो इस्कोलांतल्यो, खंयचे टिचरीन कितें केलें, कितें शिकयलें, कोणाक कितें म्हळें, कोणाक भायर घालो, आनी कोणाक उबो केलो, सगळ्यो गजाली उलोवण्यांत येताल्यो. म्हणटा म्हणसर तांच्यो गजाली खेळाचेर पावताल्यो. बॅडमिण्टन, बास्केट-बॉल, फुट-बॉल, क्रिकेट, सगळ्या खेळांनी वस्ताद जाल्ल्याभशेन तांची भासाभास चलताली. आवयन उलो मारल्या बरोबर तांची तनरी भंगताली आनी साडे-पांचाची कार्यावळ थारावन भितर पळटाले. कसलो खेळ खेळप वा खंय पासयेक वचप, सगळें थारायतालें आनी 'बरें रे' अशें म्हणून भितर वताले.

एक दीस अशेच ते साडे-पांचांक पासयेक वताले. चलतना तांची चर्चा चलताली.

“इस्कोलांत आठवेचे दिशेन आनी ईर्शाद आमकां सदां सतायतात. आमकां त्रास दितात. तांकां कितेंय तरी उपाय करूंक जाय.” हरीशान मनांतली कोडवटसाण उक्तायली.

“आमच्यांनी कितें करूं जायत? आमची शक्ती कमी पडटा. मुख्याद्यापकाक सांगल्यार मारतले म्हणटात. भंय दिसता.” पिरीशान जाप दिली.

“हय, इंटरवालाक वर्गांतल्यान भायर सरूंक लेगीत भंय दिसता मरे.”

“कोणकूय वांगडा आपयल्यार लेगीत ते तांकां भितात.”

“हय मरे. सौरभ व्हडलो नेट दाखयतालो. पयर ताका आपयलो न्हय रे आमी?”

“बरोबर. व्हडल्यो फुशारक्यो मारतालो. दिनेश आनी ईर्शादाक पळेल्याबरोबर फाटल्या पायांनी पळ्ळो.”

“हय. मागीर आमकां बंडलां मारता कसो पळे. आपूण भिंवक ना खंय.”

“कसलें तरी काम येवजलें म्हूण गेलों खंय.”

“कसलें काम? तांकां पळेल्या बरोबर हाचे पांय लटलटपाक लागले.”

“सामकी भिवन गुळी जाली. त-त-त करीत सांगपाक लागलो हांव वतां.”

“तांकां बुद्द शिकोंवक कितें तरी करूंक जाय.”

“हें पळे पिंपळा पेड. आमी थंय या?” हरीशान पिंपळा पेडाक बोट दाखोवन म्हळें.

“त्या पिंपळा पेडार वचून कितें करतले आमी?” पिरीसान अजापान विचारलें.

“पिंपळा पेडार थंय देंवचार रावता.” हरीश.

“देंवचार म्हळ्यार राकेस कसो न्हय रे ?” पिरीश

“ना रे. तो खंय गांवचो राखणदार.”

“राखणदार? कसो?”

“पयलीं खंय पुलीस इतले नासताले. आनी आशिल्ले ते गांवानी भोंवय नासले. तेन्ना खंय रातचें काम हो देंवचार करतालो. तो रातच्या बारा उपरांत

गांवांत भोंवणी घालतालो. तो हातांत एक दाणो घेतालो. त्या दाण्याक पोंदां डिमरी आसताली. चलतना तो दाणो जमनीर ढण् ऽऽ ढण् ऽऽ ढण् ऽऽ करून आपटीतालो. तेन्ना डिमरीचो खळ्ळ ऽऽ खळ्ळ ऽऽ खळ्ळ ऽऽ असो आवाज जातालो. ढण् ऽऽ ढण् ऽऽ ढण् ऽऽ खळ्ळ ऽऽ खळ्ळ ऽऽ खळ्ळ ऽऽ असो आवाज आयकल्या बरोबर जाण्टेल्यांचें आंग जड जातालें. ते गुटली करून हातरूणांत तोंड लिपोवन न्हिदताले. बायलो पोले फोडून घेताल्यो आनी देंवचाराकडेन सांगून घेताल्यो ''देंवचारा, पाव रे सायबा चूक-भूल पोटांत घे आनी आमकां सांबाळ रे बाबा. बुधवारा तुका रोंट घालतां.'' हरीशान ताका समजायलो.

''आतां खंय दिसनात तर ते?'' पिरीशान अजाप उक्तायलें.

''आतां तांकां काम ना न्हय? पयलीं सगळ्याक रानां आसलीं. सावदां, जिवाणीं, राकेस आनी कांय वायट मनीस हांच्या पासून राखण करूंक पुलीस पावनासले. आतां पुलीस चड जाल्यात आनी रानांय काबार जाल्यांत.''

''मनीस लेगीत आपली राखण करूंक सशक्त जाला.''

''हय. पूण आमी खंय आमची राखण करूंक शकतात?''

''आमी पेडार वचून देंवचाराक सांगूंया? तो आमची राखण करतलो?'' पिरीशान मन उक्तायलें.

''कित्याक करचो ना? आई सांगता मनांतल्यान सांगणें केल्यार देव पावता.''

''या तर आमी पेडार.''



# 2

हरीश आनी पिरीश पेडाकडेन पावतात. व्हाणो सकयल दवरतात आनी भियेत भियेत एक एक सपण चडटात. मदींच थांबतात आनी पेडार नदर मारतात. हेवटेन तेवटेन हे खांदयेचेर, ते खांदयेचेर, नदर मारतात. हेवटेन तेवटेन सोद घेतात. देंवचार बी खंयूय दिसत काय म्हूण. हळू हळू वयर चडून ते झाडाच्या मुळाकडेन पावले.

तितल्यान एक खांदो घसूस करून हाललो. तांच्या पोटांत घसूस जालें. किळांच मारून ताणी एकामेकाक घट्ट वेंग मारली. हळू वयर पळेत जाल्यार एक माकड. तो ह्या दोगांयकूय पळोवन भिल्लो आनी पळटालो.

तें पळोवन दोगूय जाण एकामेकाच्या तोंडाक पळोवन आपल्या पिशेपणाकूच हांसले आनी मुखार सरले. पिंपळाच्या मुळसांत एक पाशाणी फातर आसलो. ताचेर एक पणटी आसली. सदां तिनसांजची कोण तरी हांगां पणटी पेटोवन दवरता आसतलो. दोगय जाण दिमकुऱ्यांनी फातरी मुखार बसले आनी दोळे धांपून देंवचाराक आळावपाक लागले.

"देंवचारा देवा. आमकां पाव. इस्कोलांत आठवेचे भुरगे दिनेश आनी ईर्शाद आमकां सदांच त्रास दितात. तांचे लागीं झगडपाक आमकां शक्ती दी. आमकां ताकद दी. तूं खंय पयलीं तेंपार आमचे आजी-आजोबाक राखण दितालो. आतां आमचे वेळार कित्याक असो पेडार उग्गी बसला? मातसो भायर यो. आमचे वांगडा यो. आनी त्या दिनेश आनी ईर्शादाक कशें तोंड दिवंचेलें तें सांग."

इतल्यान धीर-गंभीर असो आवाज पेडा भोंवतणयां घुमलो.

“भुरग्यांनों, कितें जालां तुमचें?”

दोगांयचेंय आंग जड जालें. तिरशे दोळे करून ताणी हळूच पळेलें. पळेत जाल्यार एक लांब-रूंद काळीच आकृती फुड्यांत उबी! धोंपरा मेरेन धवो कांसांटो, कंबरेक रुप्याचो कांड, हाताक जाड रूप्याचें कडें. जाड भोंवयो, मोठ्ठ्यो, दाट पीळ दिवन दोळ्यांवटेन तोंक व्हेल्ल्यो काळ्योच मिश्यो. जळजळीत तांबडे दोळे. दाव्या हातांन जाड माथ्यामेरेन पावपी दांडो. खांदार कांबळ. असो आडदांड राकेस कसो सामकार पळेल्या बरोबर दोगांयचीय दांतखीळ बसली. ताणी परत एकामेकाक घट्ट वेंग मारली. दोळे घट्ट बंद करून जमनीर गुटली करून घालून घेतलें. दोगूय कुडकुडपाक लागले.

“मोगाळ भुरग्यांनों, तुमी अशे भितात कित्याक? तुमी उलो मारलो म्हूण हांव आयलां, तुमकां मदत करूंक. तुमी ज्याका उलो मारील्लो तोच हांव देंवचार.”

हें आयकून दोगानीय हळूंचं दोळे उक्ते केले. भीत भीत तकली वयर करून पळेलें. दांत भायर काडून तोंड उकतें करून देंवचार हांसतालो.

“आरे भुरग्यांनों, तुमी अशे गरजे भायर भितात म्हूण तर तुमकां सगळे भेस्टायतात. तुमी घट जांवक जाय. काळजान, मनान आनी कुडीन लेगीत. मागीर कोणूच तुमचे वाटेक वचचो ना. हांव सांगतां तुमकां.” देंवचारान तांच्या मनाक मातशी थाकाय दिली.

“पूण आमकां तांचो थर्त भंय दिसता.” हरीशान तोंड उगडलें.

“ते राकेस कशे आमच्या आंगार येतात.” पिरीशानूय धिटाय दाखयली.

“हांव आसा न्हय तुमचे फाटल्यान. तुमी कांयच भिवपाचें ना.” देंवचारान तांच्यांत विस्वास निर्माण करचेलो यत्न करीत म्हळें.

“हय. देंवचारमाम. आमी तुका हेंच विचारूंक आयिल्ले. तूं आमचे वांगडा रावत जाल्यार आमकां कांयच भंय दिसचो ना.” पिरीशान उठत म्हळें.

“देंवचारमाम, आमी तुका हेंच विचारूंक आयिल्ले. तूं आमचे वांगडा रावत जाल्यार आमी कोणाकूच भिवंचे नात.” हरीशानूय उठून पिरीशाची री ओडली.

“हें पळेयात. हांव तुमचे वांगडा रावतांच. पूण तुमचें मन जर भिवकूर

आसलें, तुमची कूड जर अशी काडी पयलवान कशी किडकिडीत उरत जाल्यार, मागीर हांव आसून उपेग कितें?''

''म्हळ्यार, आमच्या वांगडा तूं रावन आमकां तांच्या पासून सांबाळचोना तर?'' हरीशान हुस्को दाखयलो.

''पळे. तुमी भिवन पळचेलें आनी हावें तांकां आडावचेलें! तें बरोबर जायना. तुमी भियेनास्तना तांकां तोंड दिवंक जाय. तेन्ना हांव तुमच्या वांगडा रावन तांकां आडावन तुमकां सांबाळटां.''

''ही बरी आयडिया. तूं तांकां दिसचोना. आमी तांकां धिरान तोंड दिवंचेलें. आमच्या वांगडा देंवचारमाम आसतलो. पूण तांकां कळचेंना. आमकां कसलोच भंय नासतलो. आमी तांचेर जैत मेळोवंक शकतले.'' पिरीशान खोशी उक्तायली.

''पूण ते खातीर हावें सांगलां तशें तुमी काळजान, मनान आनी कुडीन घट जावंक जाय.'' देंवचारमाम तांकां समजावंक लागलो, ''हांव वांगडा आसा म्हणटकच तुमकां भंय दिसचोना. मन घट करूंक मेळटलें. पूण काळीज आनी आंगाची शक्त हांचें कितें? तांकां घटसाण कशी येतली?''

''आमी व्यायाम करतले.'' दोगांनीय एकदम सांगलें.

''शाबास. पूण फक्त व्यायाम केलो म्हूण जायना. ताच्या वांगडा कांयच खालेंना जाल्यार शक्त खंयच्यान येतली?'' देंवचारान विचारलें. ''तुमी घरांतलें, म्हळ्यार घरांत तयार केल्लें कांयच खायनात. फकत भायलीं रेडीमेड खाणां तुमकां आवडटात.''

''हय. टि. व्ही. र दिसतात तितलेंय हांव फाटीक लागून विकतें घेवंक लायतां. तीं पिझ्झा, व्हॅफर्स, जॅम्स असलीं.'' पिरीशान सांगून उडयलें.

''असल्या खाणांनी चरबी खूब आसता. आरोग्याक जाय आशिल्लीं जीवन सत्वां कांयच आसनात. हाका लागून आंगलोट वाडटा. भुरगें लबलबीत जाता. फुडें फुडें ताका चलल्यारूच खरस मारता. कामां जायनात.'' देंवचार समजावणेच्या सुरांत उलयलो, ''तुमकां घटमूट जावंचेलें आसा. फकत दिनेश आनी ईर्शाद वांगडाच न्हय, फुडें फुडें जीणेंत चांटेपावलाक संघर्श करचो पडटलो. ते खातीर काळीज फातरा सारखें घट जावंक जाय. मन आपल्या ताब्यांत उरूंक जाय आनी आपली कूड सशक्त आसूंक जाय.''

“देवचारमाम, कूड सशक्त आसूंक जाय म्हणटा तें समजलें. पूण काळीज फातरा सारखें घट जांवक जाय म्हळ्यार कितें?” हरीशान भोळ्या मनान विचारलें.

“पळे. फुडें शिक्षणाखातीर, नोकरे-धंद्या खातीर कितल्योश्योच अडचणी येवंक शकतात. कितल्याशाच भुरग्यांवांगडा स्पर्धा करून मुखार सरचें लागतलें. ते खातीर भिवन शीर पडचें ना. आपणा स्वताचेर विस्वास दवरपाक जाय. आपूण सगळ्यां परस फुडें पावतलों म्हणपाची खात्री आपली आपणे बाळगुवप गरजेचें. ते खातीर काळीज घट आसप गरजेचें. कसलीच भिरांत वा काळजी आसूंक फावना.”

“आनी मन आपल्या ताब्यांत उरूंक जाय म्हळ्यार?” पिरीशान आपली शंका काडली.

“काळीज आनी मन हातूंत व्हडलोसो फरक ना. काळीज घट आसल्यार मन घट उरता. कसलोच भंय उरना. पूण काळीज आनी मन घट उरूंक कूड घट जावंक जाय. धडाडी आसत जाल्यार मनांत कसली चिंता उरना. मन सतर वितर जायना.”

“पूण कूड घट जावंक कितें करूंक जाय?” दोगांयनीय उमळशिकेन विचारलें.

“घरांत तयार केल्लीं जेवण-खाणां खांवक जाय. तांतूंत सदांच पौश्टिक सत्वां आसतात. जीं कुडिच्या पोशणांक जाय आसतात. हांतलें भायल्या खाणांत कांयच आसना. भायलीं खाणां ते खातीर भलायकेक वायट.”

“देंवचारमाम, आमी हाचे फुडें केन्नाच भायलीं खाणां खांवचे नात. फकत घरचींच खाणां खातले.” दोगांयनीय उत्फुर्तपणान सांगलें.

“शाबास तेभायर सद्दां सकाळचो आनी सांजेवेळचो व्यायाम करून आंग घट्ट करूंक जाय. तशेंच हुशारीन आपलो सांबाळ करूंक कराटे शिक्षण घेवप गरजेचें.” देंवचारान समजायलें.

“आमचे शाळेंत बुधवारा आनी शेनवारा तिनसांजचें कराटे शिक्षण दितात. आमी आमचें नांव सरांकडेन दितात.”

“इतलें जर तुमी करशात जाल्यार तुमी हुशार, समयसुचक आनी कुशल जातले. खंयचेय परिस्थितीचेर जैत मेळोंवक शकतले. मागीर म्हजी गरज

लागची ना.'' देंवचार.

''पूण सध्या तरी येता न्हय आमच्या वांगडा?'' काकुळतेन दोगांयनीय विचारलें.

''हय. हांवें तुमच्या वांगडा रावचेलें मानून घेतलां, म्हणटकच रावतलोंच. पूण कोणकूच दिसचोंना.''

''आमकां लेगीत ?'' दोगांयनीय भियेवन विचारलें.

''तुमकां दिसतलों. पूण तुमकां जर मदत करूंक जाय, जाल्यार तुमी फुडाकार घेवन प्रसंगाक तोंड दिवंचें पडटलें. तुमी पळटले आनी हांव तांचेकडेन झगडटलों. अशें जावंचें ना.''

''तूं बरोबर आसतकच आमकां कसलोच भंय आसचोना.'' आमी धिरान तोंड दितले.



# 3

दोगूय उठून उबे रावले आनी पेडावयल्यान देंवले. पायांक व्हाणो चडयल्यो आनी घरची वाट धरली. ते म्हणसर काळोख पसरूंक लागिल्लो. केन्नाच तांकां इतलो कळाव जांवक नासलो. तिनसांजचे कात्रीर ते घरांत भितर सरताले. घरा आवय काळजी करतली म्हूण दोगूय बेगीन बेगीन पावलां उखलताले.

तितल्यान तांकां फुडल्यान दिनेश आनी ईर्शाद गजाली करीत तांचेच वटेन येतात ते दिसले. तांकां पळेल्या बरोबर दोगांयकूय कच्च जालें. काळजांत कलकललें. एकामेकाक पळोवपाक लागले. तितल्यान तांकां देंवचाराची याद जाली. ताणी फाटल्यान पळेलें. पळेत जाल्यार देंवचार तांच्या म्हऱ्यांतूच उबो ! ताणे तांकां खूण केली, ''चलात फुडें.''

दोगूय नेटान फुडें सरले. तांकां पळेतकच दिनेशाक आनी ईर्शादाक खोडी येवजली.

''आरे, इतले रातचे हे रातकिडे खंय रे हेवटेन?'' दिनेशान ईर्शादाक विचारलें.

''हय मरे हे भिकूण हेवटेन शे हुळहुळटात?'' ईर्शादान फोण्ण मारलें.

हरीश आनी पिरीश नेटार आशिल्ले. आयज तांचे वांगडा देंवचारमाम आसलो. हरीशान तोंड उगडपाक देंवचार ताका शिटकायलो, ''सद्या कांयच जाप करूं नाकात. मोन्यानी चलपाक लागात. ते कितें करतात पळोंवया.''

दोगूय जाण मोन्यानी फुडें वचपाक दिनेशान हरीशाक मदीं अकस्मात पांय आडवो घालो. हरीश हेरवीं ताच्या पांयांक आपटून तोंडान शेंवटूपाचो.

तितल्यान देंवचारान ताचे कमरेक हात घालून अचळय उखलून धरलो आनी उबो केलो. पूण त्याच वांगडा दिनेशाचो पांय उखलून ताका धुकल्लो. ते बरोबर दिनेश घुवूंन सकल शेंवटलो. ताका दिसलें आपणे पांय आडवो घालेबरोबर हरिशान खोंट मारून आपल्याक आडवो वडयलो.

हेवटेन ईर्शादान पिरीशाचो हात घट्ट धरून घुंवडावन पिळपाचो यत्न केलो. तितल्यान देंवचारान ताचोच हात घट्ट धरून पिळ्ळो आनी घुवंडावन दिनेशाचेर वडयलो. दोगूय एकामेकांचेर आपटून घो करून जमनीर धाडावले.

दोगांयकूय अजाप जालें आनी संतापूय मारलो. हीरश आनी पिरीश इतले चपळ आनी ताकदवान आसत म्हणपाचें दोगांयकूय दिसूंक नासलें. आनी आतांय खात्री पटना जाली. आपलेंच खंय तरी चुकलां आसतलें अशेंच तांकां दिसलें. ताणी एकामेका कडेन पळेलें आनी उठले. उठ्ठना तांचें कमर दुखलें. कमर बरेंच साणावल्लें. तरी तशें तोंडार दाखय नासतना ते तांच्या म्हऱ्यांत आयले.

हेवटेन हरीश आनी पिरीश लेगीत अजापले. आपल्या हाताक आनी पायांक इतली ताकद खंयच्यान आयली तेंच तांकां समजलें ना. ताणी फाटल्यान पळेलें. देंवचारमाम मानेनूच तांकां खूण करून मिशांतल्या मिशांत तांकां पळोवन हांसतालो. तांकां आनंद जालो. इतल्यान देंवचारमामान तांकां सावद केले. ‘‘फाटल्यान पळेयात. ते तुमचे फाटल्यान येतात. ते तुमकां मारूंक येतात. तुमचो उजवो हात मुखार वयर करून आडवो धरात आनी तांकां आडायात.’’ दोगांयनीय तशें केलें. दिनेशान मारपाक काडिल्लो हात पिरीशान वयले वयर आपलो हात आडवो घालून आडायलो. दिनेशाक आपलो हात लोखणाच्या कामीक आपटल्याभशेन दुखलो. ताणे ‘आवयगे’ म्हणून आपलो हात दुसऱ्या हातान घट्ट धरलो. तेवटेन ईर्शादाचीय तीच परीस्थिती जाली. दोगांचेय हात बरेच सणसणले. पूण तरी आसतना ताणी ‘‘फाल्यां मेळात तुमी इस्कोलांत. तुमकां दाखयतात सारखें.’’ अशी धमकी दिलीच आनी आपले वाटेन गेले. ते बरोबर हरीश आनी पिरीश देंवचारा वटेन वळ्ळले. ताका पांयां पडून विनवणी करूंक लागले, ‘‘देंवचारमाम, आयकलें न्हय. ताणी आमकां धमकी दिल्या. फाल्यां मातसो आमच्या वांगडा यो. ना जाल्यार ते आमची चटणी करतले.’’

''मोगाळ भुरग्यांनो, फाल्यांच कित्याक? तुमी हावें सांगलां तशें घट जायसर हांव तुमच्या वांगडा सदांच आसतलों. काळजी करूं नाकात.'' देंवचारान तांकां धीर दिलो.

''बरें तर देंवचारमाम. घराकडेन आवय वाट पळेत दारांत उबी रावल्या आसतली. आमकां मातशे घरा मेरेन पावयशात?'' पिरीशान काळकुटेन विचारलें.

''कांयच भियेंव नाकात. वाटेर तुमकां आतां कसलोच त्रास जांवचेलो ना. तुमी सुशेगाद चलात घरा. फाल्यां शाळेंत मेळूंया.'' देंवचारान तांकां धीर दिलो आनी ते घराचे वाटेक लागले.



## 4

सकाळीं हरीश आनी पिरीश बोटवे खांदाक लावन भीत भीत भायर सरले. वाटेर दोन दोन पावलांचेर फाटीं वळून पळोवंक लागले. देंवचारमाम दिसता काय म्हूण. तो दिसना म्हणटकच कितें करूंया अशें एकामेकाक खुणेन विचारीत परत दोन पावलां मुखार वताल्ले, परत फाटल्यान पळेताले, म्हणटाले,

"देंवचारमाम न्हिदून उरला आसतलो."

"ताका आमचें इस्कोल कितल्यांक तें खबर ना दिसता."

"आमी सांगपाक विसरले."

"देंवचारमामान येतां म्हूण सांगिल्लें. भियेंव नाकात म्हणटालो. विसरलो दिसता."

"आमी सकाळीं फुडें पेडार वचून ताका उठोवपाचो. ताका याद करचेली."

"आमकां असो तो फटोंवचो ना. ताणें उतर दिलां. ताका आनी कसलेंय काम जालां आसतलें."

अशें एकामेकाक समजायता म्हळ्यार ते शाळेंत पावले. बोटवे वर्गांत दवरून प्रार्थनेक सभाघरांत एकटांय जाले. आपआपल्या वर्गाचे रांकेंत उबे रावले. दोळे धांपून हात जोडून "ॐ तत्स श्री नारायण तूं, पुरुषोत्तम गुरू तूं..." सुरू केलें.

हरीश आनी पिरीश लेगीत हात जोडून उबे रावले. दोळे धांपिल्ले. पूण मन अस्वस्थ. लक्ष प्रार्थनेंत ना. मनांत धाकधूक. हळूच दोळ्यां खाचींतल्यान आठवेच्या वर्गाचेर नदर वताली. ते दोगूय दिसनात. परत परत पळेताले. पुराय

वर्गाच्या भुरग्यांचेर नदर मारली. पूण ते दोगूय दिसले ना. तांकां सू ऽऽ जालें. आयचो दीस बरो वतलो म्हूण दोगूय खोशी जाले. दोगांयच्याय तोंडार खोशयेचें ल्हार पसरलें

तांणी शिक्षकांकडेन मन सोडून लक्ष दिलें. चार तास कशे सोंपले तें समजलेंच ना.

मदले सुटयेची घांट जाली. दोगूय टिफीन घेवन वारांदाचेर उबे रावले. खातां खातां ते दिनेश आनी ईर्शाद हांच्या संबंधान चिंतूंक लागले.

"आयज कितें जालें काय हांचें?"

"देंवचारमामान बरी बुद्द शिकयली तांकां."

"परते आनी ते आमचे वाटेक वचचे नात रे."

"हें ऽऽ, तांचे सांगूंक जाता? तांणी वता आसतना आमकां धमकी दिल्या ती याद आसा मरे?"

"जाणा रे. पूण ती तांणी पिकार जावन दिल्या रे. आयज हात-पांय सुजून पडल्या आसतले."

इतल्यान फुडल्यान दिनेश आनी ईर्शाद येतात ते दिसले. हरीशाच्या हातांतलो बिस्कुतेचो कुडको सकल पडलो. पिरीशाच्या तोंडांतलो केका कुडको तोंडांतूच उरलो. चाबपाचें विसरून तांकां आ ऽऽ करून पळेतूच उरलो. दोगीय विचारांत पडले. "आतां कितें करूंया? देंवचारमामान आमच्या वांगडा रावता म्हणिल्लें. पूण अजून ताचो पत्तो ना."

"आतां आमची धडगत दिसना. देंवचारमामान आमकां कराटे शिकात सांगिल्लें. घरचीं खाणा खायात म्हणिल्लें. आमी आजून कांयच सुरू करूंक ना. ताजें पानवळ आतां आमकां मेळटाशें दिसता."

"तुमी चड हुशार म्हूण समजतात व्हय? काल म्हाका पांयांक घालून कित्याक उडयलो?" दिनेशान हरीशाक विचारलें.

"आमी मुकाट्यांनी चलताले. तुवेंच मदीं पांय घालो. आनी म्हज्या पांयांक आपटून पडलो. त्या कामाक हांव कितें करूं?" हरीशान धिटायेन विचारलें.

"वयल्यान आनी उरफाटी जाप दिता पळय. चड सुबेज जाला. येदोसो पोर. काल पयर पांचवेक आयला. आमकां सिनीयरांक जाणवायो सांगता?"

दिनेशान धमकावणीच्या सुरांत विचारलें.

हरीश तोंड धांपून उगी रावलो. तेवटेन ईर्शादान पिरीशाक धरलो,

"काल म्हजो हात मुड्डिल्लो तो तूंच मरे?"

"आयक. हावें तुजो हात धरूंक नासलो. तुवेंच म्हजो हात धरून घुवंडायिल्लो. त्या यत्नांत तुजोच हात मुड्डून तूं पडलो. हांवें कितें केलां?" पिरीशानूय तोच प्रस्न केलो.

"रावात. तुमी अशे वठणीर येवंचे नात. सगळ्या भुरग्यांक एकठांय करतां आनी तुमकां शिकयतां." अशें म्हणून ते आपले वाटेन गेले. हरीश आनी पिरीशाक सू ऽऽ जालें. पूण तांकां आतां नवी चिंता लागली. दिनेश आनी ईर्शाद बाकिच्या भुरग्यांक वांगडा घेवन आयल्यार कितें करचेलें? देंवचारमामान सुचयल्ल्या प्रमाण कराटे शिक्षणाक लागल्यार बरें. अशें चिंतून ते सोमते पि. टी. सरा म्हऱ्यांत गेले.

"सर. गुड मोर्निंग."

"गुड मोर्निंग. कितें हरीश? आयज पारव्यां जोडी ह्या अर्दान शी?"

"सर. आमकां कराटे शिकूंक जाय. नांव दिवपाक आयिल्ले."

"बरी गजाल. पूण ते खातीर बुधवारा आनी शेनवारा पळे तो कराटे सर येता ताजेलागीं नांव दिवंचें पडटलें."

"पूण सर, तुमचेकडेन नावां दियात म्हूण नोटीस आयिल्ली."

"हय. पूण तुमी आतां जागे जाल्यात न्हय? लास्ट डेट जावन गेली केन्ना. सगळीं नावां ताजेकडेन पावन क्लास लेगीत सुरू जाले."

"सर. प्लिज. तुमी सांगल्यार घेतलो तो आमकां."

"बरें आस... दितां हांव तुमचीं नावां ताचेकडेन. पूण तुमी फाल्यां सांजे स वरांचेर यादीन ताका मेळात. फाल्यां बुधवार."

"आं सर; ठेंक्यू सर." अशें म्हणून दोगूय जाण धांवले वर्गांत.



## 5

"आमी देंवचारमामाक विचारूंया. तो आयज सकाळीं आमच्या वांगडा कित्याक नाशिल्लो काय म्हूण." पिरीशान हरीशाक म्हळें.

"हय. ताणें सांगिल्लें आपूण वांगडा आसतलों, कांय भियेंव नाकात म्हूण. पळेत जाल्यार तो नाच." हरीश.

"ते आयिल्ले राकेस कशे आंगार! पूण देंवचारमामाचो पत्तो ना. म्हाका सामकी भिरांत दिसली." पिरीश.

"या मरे, साडे पांचांक?"

"हय. हांव येतां सकयल.";

दोगांयनीय सदांच्या वेळार गॅलरींत रावन थारायलें. आवयन उलो मारतकच भितर गेले. दोगांयचेंय लक्ष अभ्यासाक लागना जालें. केन्नाकाय साडे पांच जाता आनी देंवचाराच्या पेडार पावता अशें जाल्लें. उठून उठून घड्याळीक पळोवपाक लागले.

आयज घड्याळ इतली सवका कित्याक चलता काय? वेळूच जायना पळय. ना जाल्यार सदां एक गणित करता म्हळ्यार टणूण जातालें. दुसरें गणित अर्दर्यारूच वडोवन सकयल खेळपाक धांवचें पडटालें. इतले फावटीं उठून घड्याळीक पळेलें तरी साडे चार लेगीत जायनात. तेवटेन आवयन विचारलें,

"कितें रे ? आयज अभ्यासाक लक्ष शें लागना तुजें? उठून उठून सो घड्याळीक पळेता? असो खेळ तटला काय कितें?"

"ना गे आई. पूण आयज वेळूच सो फुडें वचना?"

"आरे, घड्याळ सदांभशेनूच चलता. पूण तुजे तकलेंत अभ्यास सोडून

फकत साडे पांचांक खंय तरी धांवपाचें आसा म्हूण तुका घड्याळ चलना शी दिसता. अशें कितें आसा आयज?''

''ना गे. आयज अशी एक पासय मारून येवचेलें चितलां आमी.''

''सांबाळून. उगीच खंयचें खंय वचूं नाकात. कोणी उकलून बी व्हरत. भुरग्यांक उकलून व्हरपी खंय टोळी भोंवता ह्या दिसांनी. तिच्या बी हाताक लागश्यात तुमी. पयर तुमकां असोच काळोख जालो, म्हाका हांगां वयर-सकल जालें तुमी घरा येता म्हणसर. तरी बाबाक सांगलें ना. चार धपटे पडटले आसले फाटीर.''

''ना गे. तशें कांय ना. अशीच पासय मारून आयिल्ले आमी शिमरे देवा कडेन.''

''आरे देवा! थंय पावले तुमी?''

''हय. कित्याक गे?''

''आरे, थंय सांबाळून रे पुता. थंय पिंपळा पेड आसा. त्या पेडार खंय देंवचार रावता. तो भयंकर खर. कोणायचेय गोमटेर बसता.''

''बरें आसा. पूण म्हाका साडे पांच जातकच मातशें सांग आं.''

''बरें सांगतां. आतां मातसो अभ्यासाक लक्ष घाल.''

केन्ना काय साडे पांच जाता अशें दोगांयकूय जालें. साडे पांच जाता म्हळ्यार दोगूय सकयल देंवले आनी सोमते पेडार गेले. पेडा सकयल जोतीं दवरून तांणी मनांतल्यान देंवचाराक उलो मारलो.

''भुरग्यांनो, उठात. अशीं पिशेपणा कितें करतात?'' देवचारान विचारलें.

''कितें देंवचारमाम? आमचेकडेन कितें पिशेपणा जालीं?''

''आरे, अशे काचाबूल कित्याक जाल्यात?''

''ना देंवचारमाम. इंटरवालाक ते आमच्या आंगार आयले. आमी तुका हेवटेन तेवटेन पळेलें. दिसलें, तूं खंय तरी उरला आसतलो. तुका कितें तरी काम जालां आसतलें.''

''पिशानों, तुमकां एकदां हावें उतर दिलें, म्हणटकच हांव तुमकां कसो सोडटलों? हांव तुमच्याच फाटल्यान उबो आसलों.''

''खऱ्यानीं?''

“हय तर! ते तुमकां धमकी दिवन गेले मरे?”

“हय देंवचारमाम, म्हूण आमकां भंय दिसलो. तुका विचारतले म्हणल्यार तूं दिसलो ना. म्हूण धांवत आयले कितें करचेलें काय म्हूण.”

“हांव तुमच्या वांगडा आसतलों न्हय? म्हणटकच काळजी कसली? फकत तुमी भियेनासतना तांकां तोंड दिवंचेलें.”

“बरे भशेन. तूं वांगडा आशिल्ल्यान आमकां बळगें चडलां. आतां आमी कोणाक भियेनात.” दोगांयनीय वांगडाच सांगलें.

“पूण परत एकदां सांगतां. तुमी तुमचें बळगें वाडोवचेली गरज आसा. तुमचें काळीज, मन आनी कूड घट करचेली गरज आसा.” देंवचारान परत शिटकायलें.

“आमकां याद आसा देंवचारमाम. म्हूण आमी पि. टी. सराक मेळ्ळे.” दोगांयनीय फुशारकी मारली.

“जाणां. ताणें तुमकां कराटे सराक मेळूंक सांगलां.”

दोगांयनीय एकामेकाक पळोवन तकली हालयली.

“फाल्यां बुधवार. फाल्यां विसरनास्तना साडे पांच जाल्या बरोबर इस्कोलांत वयचेलें. नाजाल्यार सरळ हांगां येशात.”

“ना देंवचारमाम, आमी इस्कोलांत वतले.”

“आनी आई-बाबाक सांगलां हय तर, कराटेक वतां म्हूण?”

“हय, देंवचारमाम. ताणी आमकां पयलींच सांगिल्लें नांव घाल म्हूण. पूण आमी आळसाय केली.” हरीशान लजेन सांगलें.

“बरोबर. पूण तुमी तेन्ना नांव घालूंक नासलें. नांव आतां दिलां आनी फायच्यान कराटेक वतले म्हणपाचें आई-बाबाक कळपाक नाका?”

“हय. तशें सांगतात आमी आई-बाबाक.”

“बरें तर. चलात तुमी आतां घरा.” देंवचारमामान तांकां घरा धाडले.



# 6

हरीशाली आवय शामल, अजापभरीत जाली. जो भुरगो टिफीनांत चपाती वा तूप लायिल्ली रोटी घालनाका म्हूण किळच्यो मारतालो, तोच आपल्याक चापती घाल म्हूण फाटीक लागलो!

आयज सूर्य खंयचे दिखेक उदेलो काय? आयज अजाप शें कशें जालें? कोणे जादू बी केली काय? तिणें आनी हरीशाल्या बापांयन ताका कितलो समजायिल्लो. भुरग्याचे वाडी खातीर तूप हो एक म्हत्वाचो घटक. मनशाचे कुडीची वाड ही फकत थोडींच वर्सां आसतात. हाडांचो सांगाडो घट जावपाक जाय आनी व्यवस्थीत वाडपाक जाय जाल्यार तूप आनी वांगडा घरावीं खाणांच भुरग्यानीं खावपाक जाय. नाजाल्यार मनीस हाडान फ्राक जाता. ताची वाड सारखी जायना. फुडें इत्सा आसूनय कामां करूंक स्पूर्त येना. आनी कुडिच्यान लेगीत तीं झेपना अशी परीस्थिती जाता. अणभवाचो अभाव आनी प्रसारमाध्यमांचो प्रभाव हाका लागून तांची समजावणी ह्या कानांतल्यान भितर वताली आनी त्या कानांतल्यान भायर सरताली. पूण आयज चमत्कार जाल्लो. आपूण जावन हरीशान टिफीनांत चपाती घालूंक लायली. असलोच चमत्कार तांच्या शेजराय जालो. पिरीशाले आवयन शेरेफीन लेगीत अजापभरीत जावन शामलाक सांगलें,

''जाणा मगो, शामलबाय, आयज मिलाग्र जाली.''

''कितें शेरेफिन ? कितें जालें?''

''आगो अजाप शें घडलें. पिरीश केन्नाच चपाती खाय नासलो. आपल्याच्यान खांवं नेजो म्हणटालो. फोकोत केक नां जाल्यार पिझ्झा घाल

म्हुणटालो. सामको किचांट्यो मारतालो. त्या जाग्यार आयज सोकाळीं उट्ठा थिंगांच आसा, म्हाका म्हुणटा केसो, मांय माका इस्कोलांत व्हरोंक चपातीच घाल आं! हांव सोद्दां चपातीच व्होरतोलों.''

''हय. गो.''

''आयक फुडें. तेजे मुखार वचोन तो म्हुणटा म्हाका सोद्दां सकाळीं ब्रेक फास्टाक लेगीत चपाती, भाजी, शेवयो अशें कितें तरी कोर्. ओजाप न्हूं? म्हळें. देवान बेसांव घालें काय मिसता हेजेर?''

''आगो, आमचो हरीश लेगीत बदल्ला मगो. तोवूय हेंच सांगून गेला. आनी ताणेंय आयज चपातीच व्हेल्या. म्हाका सेर्त दिसता, इस्कोलांत टिचरीन कितेंय पूण सांगलां आसतलें. ना जाल्यार ते आयकतात? आमी सांगून सांगून थकलीं. शेवटीं सोडून दिल्लें.''

''शेर्त. तांकां टिचरीनूच शिटकावणी दिल्या आसतली. ना जाल्यार आयकुपाचे न्हय ते.''

''जायत. पूण जाता तें बऱ्या खातीरूच जाता.'' अशें म्हूण दोगी जाणां भितर गेलीं.

हेवटेन हरीश आनी पिरीश शाळेच्च्या दरवट्या कडेन पावल्या मात, पळेल्यार फुडें दिनेश आनी ईर्शाद! तांचे भोंवतणी चार-पांच भुरगीं गराडो घालून रावल्यात. हरीश आनी पिरीशान खीणभर एकामेकाकडेन पळेंलें. मनांतल्यान देंवचाराक उलो मारलो आनी मुखार सरले. दिनेशाक अजाप जालें. ताका दिशिल्लें इतल्या जाणांक पळेल्या बरोबर ते दोगूय भिवन गुळी जावन पळटले म्हूण.

''अब्बा ! हे आमकां पळोवन लेगीत मुखार सरतात मरे!'' दिनेशान अजाप उक्तायलें.

''मरूंक येतात दिसतात. आयज हे आमचेकडल्यान हात-पांय मोडून घेतले.'' ईर्शादान फोण्ण मारलें. हरीश आनी पिरीश झेतान पांय उखलीत तांकां पळोवंकूच नाशिल्ल्या भशेन करून दरवट्यांतल्यान भितर सरूंक लागले. तितल्यान दिनेशान आनी ईर्शादान आडवे उबे रावन तांकां आडायले.

''बाब शेट, खंय वतात?'' दिनेश.

''आमी वर्गांत वतात.'' हरीश

‘‘आमकां जाप दिल्याशिवाय भितर वचूंक मेळचें ना.’’ ईर्शादान फर्मायलें.

‘‘बेल जावपा टायम जालो. आमकां बोटवे क्लासांत दवरून प्रार्थनेक येवंक जाय. आमकां तुमचेलागीं हुज्जत घालपाची ना.’’ पिरीशान सांगलें.

‘‘तूं चड उलयता.’’ अशें म्हणून ईर्शादान ताका फाटल्यान आशिल्ल्या तागेल्या इश्टाचेर धुकल्लो. पूण तितल्यान पिरीश कुशीन सरलो आनी ईर्शाद आपल्याच नेटावांगडा त्या इश्टाचेर शेंवटलो.

तेवटेन दिनेशान हरीशाचेर नेटान कानसुलार फुलोवपाक हात घुवंडायलो आनी तितल्यान हरीश सकयल बसलो. त्या बरोबर तें थापट दिनेशाल्या इश्टाच्या पोल्याबरोबर बसलें. जालें. त्या निमतानूच दिनेश आनी ईर्शादाचे इस्टूच तांचेकडेन झगडपाक लागले.

‘तांकां धोडायात म्हूण सांगून आमकां आपयले आनी आमकांच मारतात?’ अशें म्हूण तांणी दिनेश आनी ईर्शादाकूच बडोवपाक सुरवात केली. हेवटेन हरीश आनी पिरीश हळूच थंयच्यान सटकले.

त्या इश्टटांनी तांकां मारीत मुख्याध्यापका म्हऱ्यांत व्हेले आनी तांची कागाळ केली. मुख्याध्यापकान चौकशी करून तांचेकडल्यान सविस्तर बरोवन घेतलें. मागीर तांकां एक चीट बरोवन दिली आनी दुसऱ्या दिसा पालकाक घेतल्या शिवाय शाळेक येवचेनात म्हणपाची ताकीद दिवन घरा धाडले.



7

हरीश आनी पिरीशाक एकेवटेन सू ऽऽ जालें. पूण दुसरे वटेन वायट दिसलें. आपले वाटेनची पिडा कायमची ना जातली म्हूण बरें दिसलें. तेच वांगडा तांकां दोगांयकूय इस्कोल चुकतलें म्हूण वायट दिसलें.

दुसऱ्या दिसा वर्गांत नोटीस आयली. तांतूंत मुख्याध्यापकान बरयिल्लें : 'दिनेश बार्देसकार आनी ईशाद खान हे आठवी क वर्गाचे भुरगे, तांचे वायट वागणुकेक लागून तांकां सस्पेंड केल्यात. तांकां चार दीस वर्गांत बसूंक मेळचेंना. तांच्या पालकांनी ह्या भुरग्यांचे बरे वागणुकेची हमी दिल्या शिवाय तांकां वर्गांत घेवचेनात.'

हें आयकतकच हरीशाक आनी पिरीशाक रडूंक आयलें. ते तशेच उठून मुख्याध्यापका म्हऱ्यांत गेले आनी ताका विनंती केली,

"सर, आमचे खातीर तांकां सस्पेंड करूं नाका. ते तशे वायट न्हय. तांकां समजायल्यार ते बरे वागतले."

"तुमी तांचें कितें केल्लें?" मुख्याध्यापकान विचारलें.

"कांय ना सर." दोगांयनीय तकली सकयल घालून सांगलें.

"तरी आसतना ते तुमकां इस्कोला मुखार दरवट्याकडेन बडोवपाची तयारी करतात. आनी तुमीच तांची वकिली करूंक आयल्यात?" मुख्याध्यापकान तांकां प्रस्न करतकच ते वगी रावले.

"चला आतां आनी शिकूंक लागात. तांचें तुमी चितूं नाकात. ते आतां तुमचे वाटेक लागचे नात."

त्या दिसा साडे पांचांक हरीश आनी पिरीश परत पेडार हजर जाले.

पाशाणा फातरार तकली दवरल्या बरोबर देंवचारान विचारलें,

“आतां कितें जालें?”

“देंवचारमाम, आमी थेंकूस दिवंक आयिल्ले.”

“थेंकूस कसले?” देंवचारमामान अजापान विचारलें,

“आरे बाबा, पूण कसले उपकार मानूंक? जालें तुमचें काम?”

“तुमकां खबर ना? मुख्याध्यापकान दिनेशाक आनी ईर्शादाक शाळेंतल्यान चार दीस भायर घाल्यात. बापायन तांचे बरे वागणुकेची हमी बरोवन दितकच तांकां शाळेंत घेतले. आतां आनीक आनीक ते आमचे वाटेक वयचेनात.” दोगांयनीय छाती फुलोवन सांगलें.

“अशें दिसता तुमकां? जाल्यार चूक करतात तुमी. ते तुमचेर चड पिकार जाल्या आसतले.” देंवचारमामान तांकां शिटकायले.

“ते आमचेर पिकार जाल्यात? कित्याक?” पिरीशान भियेत भियेत अजाप उक्तायलें.

“हय, ते तुमचेर चड पिकार जाल्यात. ते म्हणटात, तुमचे खातीर तांकां शाळेंतले भायर घाल्यात. ते पेटून उठल्यात तुमकां बुद्द शिकोंवपाक.”

“आमकां बुद्द शिकोवपाक?”

“हय. तुमकां.”

“म्हणटकच, आमचे वयलें संकट अजून पयस जावंक ना तर!”

“हय. ह्या आनी फुडल्या संकटांक लेगीत धिरान तोंड दिवंचेली तयारी करूंक जाय.”

“हय. देंवचारमाम. पूण सद्या आमच्या वांगडा तूं जायच.”

“तुमकां सांगलां. हांव आसाच म्हूण.” देंवचारान तांकां धीर दिलो. “पूण संकटांक तोंड दिवंचेली शक्त तुमच्यांत येवंक जाय न्ही?”

“हय, देंवचारमाम. आमी ती तयारी करतात.” दोगांयनीय वांगडा सांगलें.

“खंय रे ती? आयज बुधवार मरे? साडे पांच जावन गेलीं. तुमी कराटे सोडून हांगां शे?”

“आरे देवा! तुका मेळपाचें चिंतून आयले आनी कराटे विसरले. आतां वेळ कितलो जालो काय?”

''पावणे स.''

''या आमी पिरीश. धांवपाक लागूंया.'' हरीशान पिरीशाचो हात धरलो.

''आतां तुमी वता म्हळ्यार कळाव जातलो.'' देंवचारमामान शंका दाखयली.

''तर कितें करुंया? आयज आमी पावलेना जाल्यार सर आमकां कराटेक घेंवचोना.''

''हांव तुमकां पावयतां.'' अशें म्हणून देंवचारान तांकां उखल्ले आनी इस्कोलांत व्हरून दवरले. देंवचारान उखलून तांकां हवेंतल्यान व्हरतना तांणी सकयल पळेलें. तांकां मज्जा आयली. सकयल इमारती, रस्ते, लोक सगळें इल्लें इल्लेंशें भुरग्याच्या खेळांतलें कशें दिसूंक लागलें. नविनूच देखावो. जो तांणी केन्नाच पळोंवक नासलो. खंयची इमारत आनी खंयचो रस्तो कांयच कळ्ळें ना. कसलीच वळख पटली ना. शाळेंत देंवतना लेगीत ती तांची शाळा म्हूण तांकां समजली ना. तांणी देंवचाराक विनंती केली,

''देंवचारमाम, आनीक एक दीस आमकां अशे उखलून वयल्यान सगळो आमचो गांव भोंवडावन दाखय. आनी खंयचें कितें तेंवय सांग. मज्जा येता.''

''बरें. आतां तुमच्या कराटे सराक मेळात.''

●●●



# ४

देंवचारान अदमास केल्ले प्रमाण दिनेश आनी ईर्शाद पिकार जाल्ले. हरीश आनी पिरीशाक लागून इस्कोलांतलें काडले म्हूण सामके रागान पेटिल्ले. हरीश आनी पिरीश सामके सादे-भोळे दिसताले. दिनेश आनी ईर्शादाक दिशिल्लें हांकां सतावपाक बरी मजा येतली. हाचे पयलीं तांच्याय परस हुशार भुरग्यांक त्रास करून तांणी भरपूर आनंद मेळयल्लो.

शेवटीं तांचो कंटाळो आयलो म्हूण तांकां सोडून हांकां धरिल्ले. पूण हे सामके भावार्थी दिसपी, तांकां म्हारग पडले. हांकां लागून तांचें वायट भुरगे म्हूण शाळेंत नांव गेलें. शाळेंतल्यान तांकां सस्पेंड केले. पालकांक तांचीं कर्तुपां कळटलीं. पालकानीं शाळेंत येवन तांच्या बऱ्या वागण्याची हमी दिल्या शिवाय तांकां परत शाळेंत घेवचेनात. शाळेंत वचनास्तना हेवटेन तेवटेन कितले दीस काडटले? केन्ना नाजाल्यार केन्ना पालकांक गजाल कळटलीच. तेन्ना कितें करतले? चार दीस मेळळ्या त्या दिसां भितर हांचेर सूड घेवंया.

दोगांयनीय विंगड विंगड पद्धतीन विचार कर कर केलो.

शाळेंत वतना तांच्या वांगडा वचप. वाटेर व्हाळ लागता. त्या व्हाळांत तांकां धुकलून उडोवप. पूण त्या व्हाळाक पारो आसा. सांकवावेल्यान वतना तांकां उकलून उडोवचें पडटलें. बोवाळ जातलो. त्या वेळार लोकांची ऑफिसांत वयचेली गर्दी आसता. असलीं कामां गुपचूप जावंक जाय.

मागीर तांणी चिंतले. साडे पाचांक ते खेळूंक वतात. तेन्ना तांकां धरप. पूण तांकां परत दुबाव आयलो. फाटले फावट तांणी असोच यत्न केल्लो. हरीशाक चलतना मदींच पांय घाल्लो. आनी कोणूय भुरगो आशिल्लो जाल्यार

तोंडान शेंवटतलो आसलो. पूण त्या जाग्यार दिनेशूच शेंवटलो. ईर्शादाची लेगीत तीच गत जाल्ली. पिरीशाचेर थापट फुलोवपाक गेलो. म्हळ्यार ताणें ताचो हात वयले वयर धरून पिळ्ळो. ईर्शाद घुवून सकयल आपटलो. हरशीं बडकां कशीं दिसतात, हरीश आनी पिरीश. पूण भयंकर काटक. शाळेंत लेगीत तेंच जालें. चौग जाणांक घेवन शाळेच्या दरवट्याकडेन तांकां मारचेलो यत्न केलो. पूण तांणी मार चुकयलो आनी आमच्याच मनशांक मार बसलो आनी हें सगळें रामायण घडलें.

छे, हरीश आनी पिरीश अजागळ कशे दिसले तरी बरेच चपळ आसात. खेळटना तांकां धरतलों म्हळ्यार तांच्या वांगडा आनीक चार-पांच जाण आसतात. तेवूय बी तांचेच भशेन. उरफाटें आमचेरूच शेकूंक शकता.

अशें चिंततां चिंततां तांकां एक बरी येवजण सुचली. गावांत तीग-चौग जाण बेकार तरणाटे आसात. ते वाड्यावयले सांकवार बसून फकत तवणासपणां करतात. ते आंगांनूय जाय तशे सणसणीत आसात. ते काम करतले अशें तांकां दिसलें. दिनेश आनी ईर्शाद तांकां सोदीत सांकवार पावले. चौगूय तोमसूळ सांकवार बसून कोणाचीं तरी फकाणां करीत व्हडा व्हडान हांसताले. दोगूय तांचे म्हऱ्यांत वचून बसले. दिनेश तांतल्या एकल्याक वळखतालो. ताचे वतीन ताणें बाकिच्यांकडेन वळख करून घेतली. चौगूय आठवेक / णवेक इस्कोल सोडून घरा बशिल्ले. दीसभर गांवार हेडप, तवनासगिरी करप आनी जेवंक-खांवक घराकडेन वचप. होच हांचो दीसभराचो उद्योग. एकल्याचें नांव सर्वेश, दुसऱ्याचें पिटर, तिसरो नासेर आनी चौथो, वळखीचो सुरज.

हळूच दिनेशान आपली येवजण तांच्या कानार घाली. तांतल्या एकल्यान प्रस्न केलो. ''हातूंतल्यान आमकां कसलो फायदो आसा?''

त्या बरोबर दिनेश आनी ईर्शादाक कितें सांगचें तें कळ्ळें ना. सुरज तांचे मदतीक आयलो,

''पळे दिनेश. ते दोगूय आमचे दुस्मान न्हय. आमी बेस्टे तांच्या आंगार वचप. तुमीय आमचे इश्ट न्हय. तुमचे खातीर वगीच आमी तांचेकडेन कित्याखातीर लटफटी करप? तांचेकडेन झगडीं करून तांकां बरे धोडायतकच आमकां कितें बरी पार्टी बी दितंले व्हय तर? जाल्यार आमी आसात. ना जाल्यार

तुमी आनी कोणायकूय पळेयात.''

''बेगीन सांगात कितें तें.'' दुसऱ्यान म्हळें.

दिनेश आनी ईर्शाद कुशीन गेले.

''कितें करुंया रे?'' ईर्शादान विचारलें.

''पळे. त्या दोगांयकूय अशे सोडूंक जायना. तांचो बदलो घेतल्या शिवाय म्हाका काय न्हीद पडपाक ना.'' दिनेशान सांगलें.

''म्हाका म्हूण खंय पडटली?'' ईर्शादानूय आपलें मन उक्तायलें.

''पूण तांकां पार्टी दिवंची पडटली.'' दिनेशान प्रस्न केलो.

''आनीक कोण मेळटले आमकां? ते शाळेंतले काय परत येवंचे नात. तांणीच तर आमकां व्हरुन ऑफिसांत कागाळ दिली. हांचेंच पळोवचें पडटलें आमकां. कितल्यांक पडटलें आमकां?'' ईर्शादाक चिंता पडली.

''आमी सुयश होटेलांत तांकां च्या दिवंया. जातले एक-साठ-सत्तर रुपया. तूं तीस हाड. बाकिचे हांव हाडटां.'' दिनेशान तकली लडयली.

''पळेयात,'' दिनेशान तांकां सांगलें, ''काम जातकच सुयशांत तुमकां च्या पार्टी दितात. जाता?''

''च्या पार्टी? आमकां च्या पार्टीन फटयतात? इतलेंय झगडपाचें काम करचेलें आनी च्या घेवन न्हिदचेलें? आमकां इतले सवाय धरले काय कितें रे?'' सुरजाच्या एका इश्टान, सर्वेशान विचारलें.

''जांव रे, भुरगे ते. ते आनी हाचेवयर कितें दितले? बरें आसा. पूण एक लक्षांत दवरात आमी भरपूर खावपी. पयलीं सांगतां.'' सुरजान दिनेशाचो पांखो घेतलो.

''थेंक्यू.'' दिनेशान समाधानान म्हळें.

''बरें बरें, थेंक्यू बी आमी काम जातकच पळोंवया. आतां आमकां खंय आनी केन्ना मेळचेलें तें सांग पळोंवया.'' सुरजाच्या दुसऱ्या सांगात्यान, पिटरान विशयाक हात घालो.

''शेनवारा तिनसांजेचे साडे सातांक शाळेकडच्या सांकवार मेळूंया. ते कराटे क्लासाक साकून त्या वेळाचेर येतात. तेन्ना तांकां धरचेले आनी व्हाळांत शेंवटूपाचे.'' दिनेशान आपली येवजण मांडली.

''तेन्ना लोकांचें तितलें यो-वच आसना.'' ईर्शादान सांगलें.

"पूण त्या वेळार काळोख पडटा न्हय रे. काळखांत तुमी वळखतले मरे? ना जाल्यार आमी सोरोप म्हणून बडयेक धोडायत बसत. बशिल्या जाग्यार दुसऱ्यांकूच मार बसत." सुरजान शंका काडली.

"काळखांत कशें तर? थंय येदो व्हडलो सोडियम व्हेपरचो दिवो आसा." दिनेशान तांची चिंता पयसायली.

"ढोम्यानो. तुमी शून्य अकलेचे म्हूण अशे त्रासांत पडल्यात." सुरजाच्या तिसऱ्या इश्टान, नासिरान म्हळें.

"म्हणजे, समजलें ना." दिनेशान अजाप उक्तायलें.

"शाण्या, जर असलीं कामां करतले जाल्यार त्या जाग्यार काळोख नाका?" नासिरान समजायलें.

"पूण, थंय काळोख कशे करतले?" ईर्शादाली शंका.

"सामकें सोपें काम. पयले रातीक वचून बल्बाचेर फातर शेंवटुवप." नासिरान उजवाड घालो.

"हें काम कोण करतलो तर?" ईर्शादाक प्रस्न.

"तुमी दुदखुळे बाबू! हें काम तुमचें न्हय. तें आमी करतले." सुरजान तांच्या माथ्यावयलो पेज सोडयलो.

"पूण आमी ही सगळी रिस्क तुमचे खातीर घेतात. तुमी काळखांत त्या दोगांयकूय वळखूचें पडटलें. ना जाल्यार आतां म्हणलां तशें आमी वगीच भलत्याकूच बडोंवक लागत." सुरजान परत शंका काडली.

"ना. ना. तशें जावंचेंना. आमी आमच्या दुस्मानांक सपनांत लेगीत वळखतात." ईर्शाद.

"थंय आमी सपन पळोंवचे नात. प्रत्यक्षांत तांकां वळखून आमकां दाखोवंचें लागतलें." सर्वेशान वस्तूस्थिती सांगली.

"हांव तांकां धरून दितां न्हय तुमचेकडेन. म्हणटकच जालें न्हय!" दिनेशान खात्री दिली.

"बरें तर, चला आतां फुटात हांगां सल्ले." सुरज.

"हय. आमी वतात. शेनवारा साडे सातांक. विसरूं नाकात आं." दिनेशान परत खात्री केली.

"बरें, बरें, ताच्या पयल्या दिसा आमी थंय काळोख घालपाची व्यवस्था करतात." सुरजान सांगलें..



# 9

शुक्रारा रातीकडेन चौगूय जाण इस्कोलाकडेन सांकवार जमले. धा-साडे धा जालीं तरी लोकांचें यो-वच चालू आसलें. लोक पातळ जातकच हळूच एकट्यान एक फातर हातांत काडिलो. हेवटेन तेवटेन पळेलें आनी बल्बाचेर शेंवटीलो. पूण बल्बाक लागच्या जाग्यार कुशिच्यान गेलो. ताचो नेम चुकलो. ताका अजाप जालें. बाकिच्यांनी ताका चाळोवपाक सुरवात केली. बरो तिरादोर म्हणटालो न्हय रे आपल्याक? एका फातरान आडसरां वडोवपी मरे! आज खंय गेलो तीर?

"हांव दाखयतां पळे." अशें म्हणत दुसरो उठलो आनी ताणेंय फातर शेंवटीलो. तोवूय बल्बाचे कुशिनच्यान गेलो. ताकाय बाकिच्यानी 'कू ऽऽ य कू ऽऽ य' केली. मागीर तिसरो, उपरांत चवथो अशे सगळ्यानी यत्न केले. पूण कोणाचोच फातर बल्बाक मोखना. सगळ्यांक अजाप. अशें केन्नाच जावंक ना. जोखता थंय फातर बसूंकूच जाय ही खात्री. पूण आयज अजाप शें जालें. बल्ब इतलो लागीं आनी चकचकता आसतना नेम लागना म्हळ्यार कितें? ते चक्रावले. प्रत्येकाचो प्रतिश्टेचो प्रस्न जालो. बल्ब फुटलोना जाल्यार काळोख जावंचोना आनी फाल्यां ते भुरगे जाप विचारतले. मोठो प्रस्न उप्रासलो.

मागीर चौगांनीय रागान एकाच वांगडा फातर शेंवटूपाचें थारायलें. चौगूय जाण मोठेशे फातर हातांत धरून रावले. नेम धरलो. सुरजान म्हळें, एक, दोन ऽऽ आनी तीन. चौगानीय एकाच झेतान फातर शेंवटीले. अजाप म्हळ्यार चारूय फातर बल्बाक तेंकूंक पावले पूण बल्बाक आपटूच्या जाग्यार एकामेकांक आपटून परत तितल्याच नेटान सकल देंवले. आनी चौगांकूय

कळचे आदीं तांच्या कपलार ठो ऽऽ करून आपटले. चौगांच्याय कपलाक बरीच खोल कोंक जाली आनी तांतूंतल्यान भळभळीत रगत देंवपाक लागलें. चौगूय जाण भिले आनी कपलार घट्ट हात धरून घरा धांवले.

दुसऱ्या दिसा साडे सात जाता म्हळ्यार दिनेश आनी ईर्शाद सांकवार हजर जाले. पळेत जाल्यार दिवो पेट्टा. तांकां अजाप. काल रातीं फोडिल्लो दिवो दुसऱ्या दिसाची रात जाता म्हळ्यार पंचायतीन नवो कसो घालो? तांच्या घराकडेन दोन ट्यूब लायटी फाटले स म्हयने पेटनात, म्हळ्यार कोण्ण चौकशी करनात. अशें ते एकामेकाकडेन उलयताले. इतल्यान ते चौगूय आयले. पळेत जाल्यार चौगांयच्च्याय कपलार बेंडेजी. कितें जालें म्हूण चवकशी करतकच तांणी सगळी अजापभरीत गजाल सांगली. कोणाकूच तें कशें घडलें तें समजना जालें. आयज मेरेन तांचो अंदाज वा तीर केन्ना चुकलो ना. सांगिल्लो आमो वा आडसर तांणी एकाच तीरान फातरायला. केन्नाच एक फातर लेगीत आम्याच्या वा जांबळाच्या खांद्याक आपटून परतूंक ना. आनी काल चारूय फातर एकामेकांक आपटून परत येवन तांचें कपल फोडटा! कशें तेंच समजना. सगळेंच अजापभरीत. भंयान तांणी पळ काडलो.

"आयज अख्खो दीस न्हिदून काडला. आतांय तकली फोडटा. पूण तुका उतर दिलां म्हूण आमी आयल्यात." सुरजान दिनेशाक सांगलें.

दिनेशान 'थेंक्यू' म्हणून फुडें म्हणलें, "ते दोगूच जाण आसात आनी आमी स जाण. एका मिणटा भितर काम करून वचूंया."

येवनी पयलीं तांकां. सुरजान म्हळें आनी हेवटनच्यो तेवटेनच्यो गजाली करूंक लागले. वेळ कसो गेलो तेंच समजलें ना. पळेत जाल्यार पावणे आठ जालीं. चडशे भुरगे म्हऱ्यांतल्यान गेले. तांणी तांकां सारखे नियाळ्ळे. थोड्यांनी कराटेचे धवे कपडे काडूंकूच नासले. तशेच वताले. थोड्यांनीं ते कपडे काडून आपले सदांचे कपडे घालून कराटेचे कपडे पिशवेंत घालून ती हातांत धरिल्ली. दिनेश आनी ईर्शाद उचांबळा जाले. फुडें-फाटीं पासयो मारूंक लागले.

"खंय रे तुमचे दुस्मान? आयज येवंक ना काय कितें?" सुरजान विचारलें.

"शाळेंत पळोवन येतात." अशें म्हणून पावल फुडें घालपाक फुडल्यान

दोगूय गजाली करीत येतात ते दिसले. दिनेश आनी ईर्शादाच्या तोंडार जग जिकील्ल्याचो आनंद जालो. ‘‘हे पळे हे ते येतात ते. चेक्सांचो शर्ट घाला तो हरीश आनी ताचे म्हच्यांत ब्रावन टी शर्ट घालून येता तो पिरीश. आमी तुमच्या फाटल्यान लिपून रावतात. ना जाल्यार आमकां पळयतकच ते पळटले.’’ दिनेशान सांगलें.

दिनेश आनी ईर्शाद तांचे फाटल्यान लिपले. हेवटेन हरीश आनी पिरीश गजाली करीत आयले. तांच्या राज्याक हांचे येवजणेचो गंध लेगीत नासलो. ते आपलेच तंद्रींत आसले. इतल्यान हरीशाक एकल्यान आडायलो आनी पिरीशाक दुसऱ्यान. हरीशाक हाताक घट्ट धरून ताणें ताच्या जांगडाक हात घालो. उकलून व्हाळांत उडोवपाचो ताचो बेत आसलो. ताणें हरीशाक उकलपाक यत्न करता म्हळ्यार हरीशान ताच्या भुजाक धरलो. ताच्या जांगडाक ताणें हात घाल्लो तोच पांय ताणें उकलून ताज्या पोटासकयल अशी खोंट मारली, तो उसळून व्हाळांत धाडांयच करून शेंवटलो. हेवटेन पिरीशाकूय दुसऱ्यान धरिल्लो, ताणें ताच्या दोनूय भुजांक धरून उबोच उखलपाचो यत्न केलो. पूण पिरीशान सकयल बसकण मारली. ताका माथ्यार उखलून घेतलो आनी फातर शेंवटिल्ल्या भशेन ताका पाऱ्यावयल्यान व्हाळांत शेंवटिलो. हें इतल्या दमांत जालें कीं उरिल्ल्या दोगांयच्या लक्षांत येवचे पयलीं तांच्योय पोटल्यो व्हाळांत शेंवटिल्यो. चौगूय जाण व्हाळांत बुचकळ्ळे. फातराक आपटून कोणाचो हात तर कोणचो पांय मोडलो, तर कोणाची तकली फुटली. हेवटेन तांची अजापाची करणी पळोवन दिनेश आनी ईर्शादान थरथरत जमनीर बसकण मारली. हरीश आनी पिरीशाक समजलें, हें काम ह्या दोगांच्या शिवाय आनी कोणाचें न्हय. तांचेकडल्यान जें आयज अजापाचे कर्तूब घडलां ते सगळें देंवचारमामान तांचेकडल्यान करून घेतलां म्हणपाची जाणीव तांकां आशिल्ली. तांणी मनांतल्या मनांत ताचे उपकार मानले आनी ताका दिनेश आनी ईर्शादाचें कितें करचेलें तें विचारलें. तेन्ना देंवचारमामान तांकां सांगलें,

‘‘पळेयात. त्या चौगांकूय आपले तवनासगिरीचो अभिमान दिसतालो. आपल्याक कोण विचारपी ना अशें तांकां दिसतालें. तांकां आतां समजून येतलें. तांकां आतां जाग्यार येवपाक मजत जातली. तशेंच हे दोगूय. हांकां येन्नाच समजावपाक जाय. जाल्यार हे बऱ्याक पावतले. तांकां हांव दोन दीस पेडार दवरतां आनी समजायतां. तुमी चलात घरा.’’



# 10

स वरांचेर भयर सरील्ले. रातचीं बारा वरां जालीं तरी सुरज घरा पावंक ना म्हूण ताची आवय बापूय हुस्क्यांत पडलीं. तांणी तागेल्या सगळ्या इश्ट-मित्रांक फोन लावपाक सुरवात केली. तांतुतले कांय जाणांक ते खंय आसतले म्हणपाची खबर ना. तर तीग जाणांचो सुरजावांगडा पत्तो ना. तांचेय आवय बापूय हुस्क्यांत आसले.

सगल्यांनी गाडी भायर काडून ते जंय जंय वचपाची शक्यता आसली त्या त्या सुवातिंनी पासय मारली. शेवटीं ते पुलीसींत भितर सरले.

हेवटेन दुसरे शिफ्टीचे लोक कामाक साकून घरा वताले. तांकां साकवा सकयल्यान रडपाचो आनी ''आवयगे, वांचयात रे'' म्हूण आड्डणेचो आवाज आयकूंक आयलो. म्हूण तांणी ओणोव घालून पळेलें जाल्यार कांय तरणाटे सकयल व्हाळांत पडल्यात आनी अड्डतात. तें पळोवन दोग तीग जाण तांकां वयर काडपाक सकयल देंवले, तर कांय जाण पुलीसीक आपोवपाक गेले. पुलीसीन तांकां सोमते हॉस्पिटलांत व्हेले आनी तांची चौकशी सुरू केली. इनस्पेक्टरान तांकां विचारलें,

''तुमी इतले रातीक खंय वताले रे?''

''खंय ना सायब. आमी पासयेक आयिल्ले, सात साडे सातांक. गजाली करूंक सांकवार बशिल्ले.'' सुरजान सुरय फटाश मारली.

''मागीर. तुमकां साकवांत कोणे उडयले तर?''

''ना सायब. कोणे ना.''

''कोणे ना? कितें आपशींच पडले?''

''ना सायब. उलयतां उलयतां आमचे मदींच झगडीं जालीं सायब. झगडटना आमचें केस्तांवाचेर पडलें आनी आमी सकयल पडले.'' आपल्याक सालवार करपाक ताणें बंडलां मारलीं. इन्पेक्टरान तांचे पत्ते, फोन नंबर बी घेतलो आनी सांगलें,

''आतां तुमी आपुणूच झगडले म्हूण सांगलां. पूण फाल्यां म्हाका तुमची सारकी चौकशी करची लागतली. घरच्यांक पयलीं आपयतां.'' अशें म्हूण इन्स्पेक्टर पुलीस स्टेशनाचेर आयलो. पळेत जाल्यार थंय व्हडलो बोवाळ चल्ला. इन्स्पेक्टर आयल्या बरोबर सगळ्यांनी ताका गराडो घालो.

''कितें जालां? येदो बोवाळसो कित्याक?'' ताणे विचारलें.

''इन्स्पेक्टर...'' दर एकलो आपली कागाळ सांगपाक फुडें सरलो.

''मातशे बसात पळोंवया. सगळेजाण वांगडा उलोवंक लागले जाल्यार कोणाचें म्हूण आयकुपाचें? हां. तूं सांग पळोवया, कितें जालां?''

''सर. सगळ्यांची एकूच कागाळ आसा. आमचे भुरगे सदांभशेन जे सांजे भायर सरिल्ले ते हो वेळ मेरेन घराकडेन पांवंक ना. तांच्या सदच्या जाग्यार सोदले. तांच्या फ्रेंडांगेर सोदले. खंयच पत्तो ना. म्हूण तुमचे कडेन कागाळ घेऊन आयल्यात.'' सुरजाच्या बापायन मातशें थंड चित्त दवरून सांगलें.

''आमकां चार तरणाटे सांपडल्यात. तांकां हॉस्पीटलांत पावोवन आत्तां आयलां. तांचीं नावां, पत्ते बी घेवन आयलां. हांगां येवन तांच्या घराकडेन फोन करचेलोंच आसलों. ते तुमचे जाल्यार पळेयात. सांतान, ते आत्तां पत्ते घेतल्यात ती फायल हाड.''

सांतानान फायल इनस्पेक्टराच्या मेजार दवरली. त्या बरोबर सगळ्यांनी कान लायले. तो नावां घेता तसो एकएकलो सांगपाक लागलो, ''हो म्हाजो भुरगो.''

चौगांयचींय नावां वाचून जातकच दिनेश आनी ईर्शादाचे बापूय उठले,

''इनस्पेक्टर सायब, आमगेले सांपडूंक ना?''

''कोण ते? नांवां क़ितें?''

तांचीं नावां सांगतकच इन्स्पेक्टरान सांगलें,

"ना. आमकां हे चौग जाण शाळेच्या व्हाळांत सांकवामुळा मेळ्ळ्यात."

"व्हाळांत? शे. तें कशें शक्य आसा?"

"हें पळेयात. ते व्हाळांत आशिल्ले. आनी कोणाचो हात मोडला, कोणाचो पांय मोडला. चौकशींत तांणी सांगलां, तांचे भितर झगडीं जालीं आनी ते व्हाळांत पडले. पूण, म्हाका तांचें खरें लागना. परत तांची सारखी चौकशी करूंक जाय. आयज ते भिल्यात, तांची मनस्थिती सारखी ना. मातशे तांकां न्हिद लागूं दी. फाल्यां पळेतां. तुमी कोण म्हूण सांगताले?"

"दिनेश आनी ईर्शाद."

"ना. हे तांतूंत ना. तुमी अशें करात. भितर वचात आनी पाटील म्हणटा ताचेकडेन कंप्लेन दियात. पाटील?"

"यस् सर." पाटील भायर येवन सलाम मारून उबो रावलो.

"पाटील, हांचीं कंप्लेन बरोवन घे. तुमी तांचे फोटो बी हाडल्यात?"

"ना. फाल्यां हाडटात."

"फाल्यां पाटला कडेनच दियात. फोटवा फाटल्यान भुरग्याचें नांव बरयात."

बाकिच्यांची हेवटेन चुळबूळ सुरू जाली.

"तुमी कितें करतात? आयज तुमकां त्या भुरग्यांक व्हरूंक मेळचे नात. ते आमच्या ताब्यांत आसात." इनस्पेक्टरान सांगलें.

"आमी हॉस्पीटलांत वचून तांकां मेळूंक जाता?"

"बरे भशेन, तांकां मेळात. पूण तांकां तांपोवं नाकात. बऱ्या उतरांनी तांचेकडल्यान खरें कितें जालें तें काडून घेयात."

चौगूय उठून हॉस्पीटलांत गेले. हेवटेन दिनेश आनी ईर्शादाचे बापूय भायर आयले.

"सर. आमी कंप्लेन दिल्या. मातशी चौकशी बेगीन करात. जातीन लक्ष घालात."

“तुमी काळजी करूं नाकात. रातपाळीचेर आमच्यो व्हॅनी भोंवत आसतात. खंयी तरी सांपडटले. ते भायर आमी गोंयच्या सगळ्या स्टेशनांचेर वायरलेस धाडपाची व्यवस्था करतात.”

“देव बरें करुं, सर, आमी हॉस्पीटलांत गेल्यार जाता? त्या चौगांकडेन चौकशी करतात. तांणी एखादे तांकां पळेल्ले जाल्यार कळटलें.”

“बरेंभशेन. कितेंय म्हायती मेळ्ळी जाल्यार म्हाकाय कळयात. सोदून काडूंक सोपें पडूंक शकता.” अशें म्हणून इनस्पेक्टर माळयेर न्हिदूंक गेलो.



# 11

हॉस्पीटलांत गेले जाल्यार त्या चौगांयचेय बापूय चिंतेस्त बशिल्ले. चौकशी केली जाल्यार त्या चौगूय भुरग्यांक ऑपरेशना खातीर भितर व्हेल्यात.

''कितें जालें तें तुमी विचारलें?'' दिनेशाच्या बापायन चौकशी केली.

''ना. तसो चान्सूच मेळ्ळोना. दोतोर सगळी तयारी करून ऑपरेशनाक व्हरपाखातीर आमकां रावताले.'' सुरजाच्या बापायन सांगलें, आमी आयल्या बरोबर फोर्माचेर आमची सय घेवन तांकां भितर व्हेले. आतां तांकां भायर हाडटकच पळोंवया.''

''भायर हाडले म्हूण? ते शाबुद्धीर येवंक नाका? तांकां गुंगी दिल्या आसतली.'' ईर्शादाच्या बापायन म्हळें.

''बरोबर आं तुमचें. म्हणटकच फाल्यांच उरलें तर तें. या तर आमी घरा, घरकान्न हुस्को करतली.'' सर्वेशाच्या बापायन सांगलें.

''घराकडेन फोन करून सांगले ना तर?'' दिनेशाच्या बापायन विचारलें.

''सांगलां. फोन करून सगळें सांगचेलो यत्न केला. पूण प्रत्यक्षांत मेळून जे तांचे प्रस्नांचेर प्रस्न जातात ते वेगळे!'' पिटराच्या बापायन आपलो अणभव सांगलो.

''बरोबर तुमचें. आमचे दोगूय सांपडूंक ना. आमी आयिल्ले तांचेकडेन चौकशी करपाक. तांणी बी खंय पळेल्ले काय म्हूण. बरें तर आमी वतात. पूण म्हाका दिसता, तुमी घरा वचून परत आयिल्ले बरें. येवन हांगां तांच्या वांगडा रावप गरजेचें. ते शुद्धीर येतात तेन्ना तांचे म्हऱ्यांत घरचे कोणी तरी आसूंक जाय.'' दिनेशाच्या बापायन सुचयलें.

“सारखें तुमचे. आमी येंवया वा आनीक कोणाक तरी धाडूंया. तांच्या वांगडा आसप गरजेचें. ते भिवंक शकतात. देव बरें करूं, तुमचें.” पिटरच्या बापायन म्हळें.

सगळे दोतोराक सांगून घरा गेले.

रातभर त्या भुरग्यांच्या आवय बापांयक न्हिद ना. हुसके आनी तळमळे. कितें जालें काय हांचें? तरेतरेचे विचार तांचे तकलेंत घोळपाक लागले. तांचें ताकांच पिकासांव जावंक लागलें. आमी तांचेकडेन जाय त्या वेळार लक्ष दिलेंना. तांच्या अभ्यासाची योग्य काळजी घेतली ना. फेल जाले जाल्यार शिक्षक बरे शिकयनात वा ते मुद्दाम म्हज्या पुताक फेल करतात म्हूण आरोप करून शिक्षकांक दोश दिलो. ताचें पानवळ आतां आमी भोगतात. आतां तांकां कांयच ना जाल्यार पॉलिटेकनीक तरी करपाक लावपाचें. खंय तरी पोटाक लागतले. नाजाल्यार अशे हे तवनास जावन गांवगूंड जायत म्हूण भंय. असो सुरजाच्या बापायन विचार केलो. सर्वेश, पिटर, नासेर हांच्या घरांत लेगीत साधारण असोच विचार चलपाक लागलो.

सुरज सैनिक अकादेमींत भरती जावंक सोदी. पूण आवयन-बापायन ‘सैन्यांत नाका म्हूण दवरलो. आयज तांकां पिकासांव जाता. ताका ताचे आवडी प्रमाण संद दिल्ली जाल्यार ही परिस्थिती येवंची नाशिल्ली.

तेवटेन दिनेश आनी ईर्शादचे आवय-बापूय तर फोना म्हऱ्यांतल्यान कुशीक लेगीत सरले नात. न्हिदून पडलीं आनी फोन आयलो जाल्यार? ह्या विचारान एक सारखो फोन उकलून कानाक लावन पळेतालीं. चुकून ‘डेड’ बी जावन उरत म्हूण. तांचेय तकलेंत विचार आयले. हे इस्कोलाक वचनास्तना दोन दीस घरा रावल्यात. इस्कोलाक कित्याक वचनात ती चौकशी केलीच ना. आवय बापायक विचारता आनी बापूय आवयक विचारता, “तो दोन दीस शाळेक वच नास्तना घरा कित्याक रावला तें तुका सांगिल्लें ताणें?”

दोगूय जाण ना म्हणटात. पालकाचें कर्तव्य दोगांयनीय केलें ना. बरें. फाल्यां शाळेंत वचून चौकशी करतलो जाल्यार शाळेक सुटी.

दिनेशाल्या बापायन दिनेशालें दप्तर उस्तिलें. एके चोपडेचेर ताका ईर्शादालो फोन नंबर मेळ्ळो. पूण रातचीं साडे तीन वरां जाल्यांत. ह्या वक्तार दुसऱ्याक फोन करप म्हळ्यार मनीसपणाचें जावचें ना. म्हूण परत कदेलार

बसलो. कांय वेळान घड्याळीक पळेलें.

"च्ये. वरांच फुडें वचनात शीं. हरशीं वेळ धावंता. आनी आयज घड्याळूच फुडें वचना."

"पुलीसूय फोन करीना. ते सोदतात काय सुशेगाद पांगरून न्हिदल्यात? मातशे तांका फोन लावन पळेयात न्हय." दिनेशाचे आवयन वित्राग उक्तायलो.

"आगो, तांकां कोणाचें पडलां? ह्या वेळार तांकां फोन करपाचें आसा? रेसिव्हराक कोणाचो हात तरी वतलो प्रस्नच आसा."

"अशें कितें म्हणटात तुमी? तांची ड्युटी चौवीस वरांची न्हय? कोणी तरी आसतले न्हय थंय? तांचो रिपोर्ट तरी कळटलो."

"भंगले ते. सगळे सारखे. तुवें फाटल्या दिसांनी उदका खातीर आनी लायटी खातीर फोन केलेना? कितें उपेग जालो? तीच गत आसतली हांगां. हांची म्हूण म्हाका खात्री ना. आतां तांकां वेळ दिवपाक जाय हें बरोबर. ते भायर विस्वास दवरीनास्तना चलचें ना. एक-दोन वरां पासियेंस काडूंया."

"मातशे आड तरी पडात. आख्खी रात तुमी जागल्यात. भितर ना जाल्यार हांगां सोफाचेर तरी पडात मातशे."

"तूं कितें करता? तूं लेगीत मातशें पड. ना जाल्यार फाल्यां पित्त चाळवतलें तुजें."

हेवटेन ईर्शादागेर लेगीत तीच परिस्थिती. तिंवूंय न्हिदूंक नासलीं. तिंवूंय दिनेशागेर वा पुलीसींत फोन लावपाक अनमनतालीं. फकत सालांत वयर-सकयल पासयो मारून हुस्को करीत रात जागयतालीं.



# 12

शेवटाक उजवाडालें बाबा. दिनेशाचे आनी ईर्शादाचे आवय बापूय पुलीसींत धावंले. पळेत जाल्यार इनस्पेक्टर आपले कदेलीचेर बसून मोबायलाचे बटन दामता.

येयात, बसात. ''इनस्पेक्टरान तांकां सागलें,''

''तुमच्याच पुतांची चौकशी करतालों. सगळ्या मोबायल व्हेनींकडेन संपर्क सादलो. पूण अजून कोणाक सांपडूंक ना. एके व्हेनीक एक भुरगो रस्त्याकुशीक न्हिदिल्लो दिसलो. पूण तो कोण तरी कन्नड उलोवपी. ताका घेवन ते हांगांच येतात. पळोंवया. आमचे यत्न चालूच आसात. तुमी तांचे फोटो हाडल्यात न्हय?''

''हय. अशें म्हूण तांणी तांचे फोटो ताचेकडेन दिले.''

''आमी हे फोटो सगळ्या मोबायल व्हेनींक धाडटात.''

''देव बरें करूं इन्स्पेक्टर. आमचेर उपकार जातले.'' दोगूय बापांयच्या तोंडांतल्यान आपसूक उतरां आयलीं.

''च्ये. तें आमचें कर्तव्यूच. तुमी काळजी करूं नाकात. सांपडटले. खंय वतले? भुरगे ते. आमी शेजारच्या पुलीस स्टेशनांक लेगीत कळीत केलां.''

''हांव तेंच सांगूंक सोदतालों. एकादे पणजे, मडगांव, वा कळंगूट बी खंयचेय वेळेर पावंक शकतात.''

''बरोबर तुमचें म्हणणें. ते नदरेन आमची फेक्स आयज सगळ्या पुलीस चौक्यांचेर पावतली.''

''सर आमी हॉस्पीटलांत वचून त्या चौगांकडेन उलयतात.'' दिनेशाच्या

बापायन सांगलें.

“आमी वयचेलेच आसात. तांची सारखी जबानी घेवंचेली उरल्या. ताचे पयलीं तुमी वचून येयात. कितेंय सुगावो लागलो जाल्यार म्हाका कळयात. पळेयात. सगळे वाटेन यत्न करुंया.”

हेवटेन दिनेशाक आनी ईर्शादाक देंवचारान पिंपळा पेडार हाडून बांदून दवरले. पिंपळाच्या खांद्यार गुटली करून बांदून उरले. तांकां थंय कोणे हाडले, कोणे बांदून घाले, कांयच कळ्ळें ना. भिवन गुळी जाली. सामके थरथरपाक लागले. रातभर उपाशी. तानेन ताळो सरांटलो. रडून रडून दोळे सुजले. हात पांय जखडावन उरील्ल्यान दुखूंक लागले. बोबो मारतलो म्हळ्यार तोडांतल्यान उतर फुटना. सामके जाम. अर्दमेले जाले. दोळ्यां सामकार काळोख येवंक लागलो.

सकाळीं जेदेवेळार झिळीमिळी जालें तेन्ना देंवचारान तांकां विचारलें,

“कितें पुतानों? तुमकां गांवगूंड जावपाचें आसा? त्या सुरजा भशेन?”

भिवन गुळी जावन तांणी हेवटेन तेवटेन पळेलें. पळेल्यार कोण दिसना. ते आनीक भिले.

“दिनेश आनी ईर्शाद, सारखें सांगात, तुमी गूंड जावक सोदतात?” देंवचारान परत विचारलें.

“ना. ना. आमकां बरे मनीस जावचें आसा.” घुस्मटत घुस्मटत तांणी कशें बशें सांगलें.

“पळेयात. गुंडगिरी पयलीं बरी दिसता. पूण ती आपल्याकूय त्रासदायक आनी दुसऱ्याकूय त्रासदायक थारता. फुडाराक पुराय गांव आनी समाज गुंडांक लागीं घेनात. समाजापासून पयस आनी पुलीसांपासून सदांच त्रास. दीस रात मानसीक ताण. आनी ह्या ताणाक लागून न्हीद खळटा. कुडीक तरेतरेचीं दुयेसां जडटात.” देंवचार तांकां समजायतालो. ते आयकत उरले. पूण कोण उलयता तें दीसनासलें. पूण जो कोण उलयता तें आपल्याच बऱ्या खातीर म्हणचेलें तांकां समजतालें.

“गुंडगिरी करच्या जाग्यार जर दुसऱ्याकडेन बरे तरेन वागले, आपल्याक जमता तशी, शक्य जाता तशी मदत करीत, दुसऱ्याक उपकाराक पडत, दुसरो लेगीत आपल्या बऱ्या-वायटाक उपकाराक पडपाक शकता. आपल्या मनाक लेगीत समाधान मेळटा, जिवाक धादोसकाय मेळटा. मन प्रफुल्लीत जाता.

आपलें काम करपाक लेगीत उमेद येता. जीव तणाव विरयत जाता.'' देंवचारान तांकां समजावपाक फुडें सांगलें, ''तुमी रावतात त्या वाड्यावयलीं भुरगीं आनी जाणटे दोळ्यां सामकार हाडात. जे गुंडगिरी करतात ते सुखान आसात, काय सादे भावार्थी मनीस सुखी आसात?''

''गुंडगिरी करतात ते व्हडल्यो मोटारसायकली, गाडयो घेवन भोंवतात. पूण बारीक पळेत जाल्यार तोंडार सदांच ताण आशिल्या भशेन दिसतात. वखदां तर चालूच आसता. दोतोर तर फाल्त ना. त्या जाग्यार सादे मनीस, गरीबींत जरी दीस काडले, तरी आपले जोडींत समाधानान संवसार करतात. तांचेकडेन कांयच लिपोवपाचें नासता. तांची वागणूक सगळ्यांकडेन सारखीच आसता. बऱ्या मनशांचें खावप, जेवप, रावप सादेंच आसता. कसलोच देखावो नासता. आपल्यांतूच, पूण आत्मखुशाल आसतात.'' दिनेशान सांगलें.

''म्हाकाय असले सादे मनीस आवडटात.'' ईर्शादान सांगलें.

''आवडटात न्हय तुमकां असले सादे मनीस? तशेच ते गांवांक आनी समाजाक लेगीत आवडटात. तांकां कसलीय अडचण आयल्यार कोणूय तांकां मदत करपाक तयार जातात. पूण गुंडांक न्हय. तांचें सदींच पाड पडूं म्हणतात. तांच्या वाऱ्याक लेगीत कोण वचनात. जशें दितात तशें घेवचें पडटा. जशे समाजांत तुमी वागतले तसो समाज तुमचेकडेन वागतलो.''

देंवचारान तांकां फुडें समजायलें.

''आमकां सोडय. आमी तुकां पायां पडटात. आमकां ब़रे मनीस जावंक जाय. आमची मम्मी-पापा सामकीं हुस्क्यांत पडिल्लीं आसतलीं.'' तांणी काकुळतेक येवन सांगलें.

''हय मूं. म्हणटकच आतां एक काम करात.''

''कितें तें? तूं सांगता तें काम आमी करतात. तूं कोण तें मातशें सांग. आमकां तुजो फकत आवाज आयकूंक येता, पूण आमकां दिसना!'' दिनेशान सांगलें.

''हांव कोण आनी हांव कित्याक दिसना तें म्हत्वाचें न्हय. तुमी बरे जावंचे तुमी बऱ्याक पावंचे हें म्हत्वाचें. ते खातीर कितें करूंक जाय आनी कशे वागूंक जाय तें समजूंक जाय.'' देंवचारान समजायलें.

''तूं सांगता तें आमी करतात. आमकां बरे जावंक जा.'' दोगांयनीय

सांगलें.

"तर आयकात. हांगा सरल्यान गेल्याबरोबर तुमी तुमच्या आवय बापायक तुमकां शाळेंतल्यान भायर घाल्यात आनी कित्याक घाल्यात तें सारखें सांगात. तशेंच शाळेंत वचून तुमचे बरे वागणुकीचें हमीपत्र बरोवन दिवंक तांकां सांगपाचें."

"हय. आमी आतांच तें करतात."

"इतल्यान जायना. हरीशाक आनी पिरीशाक मेळून तांची चूक मागचेली. चूक जाली म्हूण सांगून तांचे दोस्त जावंचेले."

"हय. आमी तशेंच करतात. आनी बरे मनीस जावंचेलो यत्न करतात."

"बरें तर. तुमकां खूब भूक लागल्या आसतली न्हय?"

"हय. सामकी भूक लागल्या. आनी ताळो लेगीत सुकला. सोडटा न्हय आमकां? हात-पांय सामके सणसणूंक लागल्यात."

"पयलीं कुचकुचून घोंट घेवन तोंड धुवन घेयात. भरपूर खावन घेयात. उदक पियात."

अशें देंवचारान सांगलां मात, तांचे मुखार भाजी, चपात्यो भरून ताटल्यो आयल्यो आनी पेले-तांबये भरून उदक तयार! तांचे हात सुटले. दिनेशान आनी ईर्शादान कुचूकुचू करून चूळ भरून घेतली आनी घोंट घेंतलो. मागीर भाजेचेर ताव मारलो आनी गटगटीत उदक पिले. धेंकर काडून पळेत जाल्यार बश्यो ताटल्यो रिकाम्योच जायनात. तांकां अजाप जालें.

देंवचारान म्हळें, "खायात मरे. पोट भरून खायात."

"पुरो. पोट तोडशेलें. आनीक नाका."

तांणी तशें म्हणल्याबरोबर ताटल्यो पेले तांबये नाच जाले. म्हणटा म्हणसर ग्लानी आयिल्ले भशेन दोगांयकूय न्हीद आयली.

पुलीसांची व्हेन पिंपळा पेडाकडल्यान वतना तांकां दोग भुरगे पेडाचेर सुस्त न्हिदिल्ले दिसले. तांणी तांकां उठोवन चवकशी केली जाल्यार तेच दिनेश आनी ईर्शाद म्हणपाचें कळळें. तांणी तशेच तांकां पुलीसेंत व्हेले आनी फोनाचेर संपर्क सादून तांच्या आवय-बापायक आपयलीं.

"आमी सगळी रात त्या पिपळा पेडार आशिल्ले. आमकां कोणे खांद्याक बांदून घाल्ले. कोणे तें कळ्ळें ना." अशें म्हणून तांणी सगळी गजाल सांगली.

“पूण तुमी थंय कित्याक गेल्ले तें सांगात.” दिनेशाच्या बापायन विचारलें.

“आमी पासयेक गेल्ले...” दिनेशान फुडें सांगचे पयलींच ताचे आवयन आकांत केलो.

“त्या पिंपळा पेडार देंवचार रावता मरे. थंय कित्याक पासयेक गेल्ले? कर्माक तुमच्या? सेर्त तुमकां देंवचारानूच लिपोवन दवरील्ले. देवा पावरे सायबा. तरी बरे भशेन सोडले ताणें तुमकां. पयलीं घरा या पळोवंया. पयलीं दीश्ट काडूंया आनी देवळांत वचून पायां पडूंया. सांजे पेडार वचून तुपा दिवो पेटोवंया आनी सांगणें करुंया.” आवय बडबडत रावली.

“जालें तुजें? आतां इनस्पेक्टर कितें सांगता तें आयक.” दिनेशाच्या बापायन तिका वगी केली.

हेवटेन इनस्पेक्टरान सगळ्यो फोरमालदादी केल्यो आनी त्या भुरग्यांच्या आवय-बापायची निशाणी घेवन तांकां धाडले. मागीर तसोच हॉस्पीटलांत वचून त्या चौगांची चौकशी करून रिपोर्ट तयार करून तांच्या बापायची सय घेवन तांकां घरा धाडले.



# 13

दिनेश पुराय दीसभर न्हिदलो. दोन दिसांचो पुराय शीण घालयलो. ताचे आवय-बापायन लेगीत जागरण निवळायलें. सांजेचें पांच-साडेपांच जातकच आवयन बोवाळ घालपाक सुरवात केली.

"आयकलां, भायर सरतात न्हय?"

"कित्याक? खंय वचपा आसा?"

"विसरले? देवळांत वचून पांयां पडूंक नाका? मागीर तिनसाना येवन पेडार तुपा दिवो लावंक जाय न्हय?"

"बरें, बरें. या. सामकें तुज्या मनासारखें जावं दी. पूण म्हाका एक सांग, तुवें दिनूक विचारलें?"

"कितें तें?"

"आगो, तो फाटले दोन दीस घरांत आसा. शाळेंत वचूंक ना."

"हय गे बाये. म्हजे तकलेंतलेंच गेलें."

"तुजे तकलेंत फकत देंवचारूच बसला दिसता."

"हय तर. दिनूवयलें रागणें काडून वडोंवक नाका?"

"जाय तर गे बाये. पूण पयलीं तो घरा रावपाचें कारण कितें जालें तें समजूंक नाका?"

"पळोंवया आं. आतांच विचारुंया. दिनू, ये दिनू."

"कितें मॉ?"

"हांगां यो."

दिनू कुडिंतल्यान भायर येता.

"यो असो. हांगां बस आनी पापा कितें विचारता तें सांग."

“दिनेश, तूं कितले दीस क्लासाक वचूंक ना?”

“दोन दीस.”

“कित्याक?”

“हेडमास्तरान सांगलां, बापायक ना जाल्यार आवयक घेतल्याशिवाय शाळेंत येंवनाका.”

“अशें कित्याक रे? कितें केलें तुवें?” आवयन हुसको परगटायलो.

“ना मम्मी. म्हजेकडेन एक व्हड चूक जाली.”

“कसली? कितें केलें तुवें?”

“हांव आनी ईर्शाद. दोगूय जाण पांचवेच्या भुरग्यांक भेस्टायताले. मजा म्हूण गे. पयर ते आमकां आयकना म्हूण मारपाचो भंय दाखयलो. आमच्या वांगडा आनीक दोग भुरगे आसले. तांणी मुख्याध्यापकाकडेन कागाळ केली.”

“म्हूण तुका भायर घालो. त्या ईर्शादाकूय भायर घालो मरे?”

“हय.” दिनेशान तकली सकयल घाली.

“तुमी कितें स्वताक इस्कोलाचे दादा समजतात?”

“ना. आमची चूक आमकां समजली. आमी तांची चूक मागतले. हाचे मुखार आमी बरे भुरगे जावंचेलो यत्न करतले.”

“मागीर फाल्यां कितें करचेलें?” आवयन विचारलें.

“मुख्याध्यापकान पालकाक घेवन यो म्हूण सांगलां.”

“तुवें शाळेंत तवनासपणा करचेलीं आनी हावें तवनास भुरग्याचो बापूय म्हूण नांव वगडावपाचें.”

“ना पापा. आमी हाचेफुडें अशें कांयच करचेनात. बरे भुरगे जावन दाखयतले. सारखे शिकतले. अभ्यासांत लैंक्ष घालतले.”

अशेच तरेची भासाभास ईर्शादागेरूय चलताली. ताणेय आपल्या बापायक सत्य गजाल सांगून बरो भुरगो म्हूण शाळेंत नांव मेळोवपाचें उतर दिलें.

दुसऱ्या दिसा दोगांयचेय बापूय, पुतांच्या वांगडा शाळेंत पावले. भायर दरवट्यार एकामेकांक मेळ्ळे. मुख्याध्यापकान पयलीं दिनेशाक आनी ताच्या बापायक आपयलो. दिनेशाचें कर्तूब सांगतकच बापायन तो हाचेमुखार बरो वागचेलें आपल्याक उतर दिलां म्हणपाचें सांगलें. मुख्याध्यापकान

दिनेशाकडल्यान तशें बरोवन घेतलें आनी ताचेर दिनेशाच्या बापायची सय घेतली आनी दिनेशाक येसेंब्लींत सगळ्यांच्या मुखार चूक मागून परत अशें आपल्याकडल्यान घडचेंना म्हणपाचें उतर दिवंक सांगलें. उपरांत ईर्शादाक आनी ताच्या बापायक आपोवन हाडून ताचेकडल्यान लेगीत तशेंच बरोवन घेतलें.

प्रार्थना सभेंत सगळ्यांक कांय गजाली समजावन सांगपाचें मुख्याध्यापकान थारायलें. ताणें सांगलें : ''मोगाळ भुरग्यांनो, आमी सगळे समाजाचे घटक. ज्या समाजांत आमी वावूरतात, उठ्ठात बसतात, तो समाज सगळ्या तरेच्या बऱ्या-वायट गुणांनी भरील्लो आसा. समाजांत बरे मनीस आसता तशे वायट लेगीत आसता. मनीस जल्माक येता तेन्ना तो बरो वा वायट म्हणून येना. ल्हानपणांतल्यान ताचेर जे संस्कार जातात ताचेवयल्यान तो बरो वा वायट घडत वता. तेच खातीर पालकाचेर जबाबदारी उरता. तांणी आपल्या भुरग्याचेर नदर दवरची लागता. आपलो पूत खंय वता, कोणावांगडा भोंवता, तो कितें करता, हाची बारीकसाण घेवंक जाय. मदीं मदीं शाळेंत येवन पुताची चवकशी करूंक जाय. भुरगो व्यवस्थित उरूंक, बरो शिकूंक हाची मदत जाता.

भुरग्यांनो, तुमची लेगीत जबाबदारी व्हड आसा. तुमी कितें बरें आनी कितें वायट तें समजून घेवंक जाय, ताची जाण दवरूंक जाय. वायट गजाली रोकड्यो समजतात. तातूंत सुरवातीक मजा येता. पूण त्यो वायट म्हणपाचें मतींत धरलें जाल्यार आपल्याक ताचेपासून कुशीक काडूंक सोपें जाता. वायट गजालींनी घुस्पलो जाल्यार अभ्यास तकलेंत वचना, आवयन बापायन कितेंय बरें सांगल्यार लेगीत तें तकलेंत वचना जाता. तकलेंत बऱ्यो गजाली सोडून फकत वायट गजालीच भरतात. ज्यो आपल्या फुडाराक खूब वायटाक पडटा. भुरगो फकत वायट वाटेन वता आनी समाजांत आपलें आनी आपल्या आवय बापायचें नांव वगडावन बसता. कोणूच ताका मागीर लागीं घेनात. सगळे ताचेपासून कुशीन रावतात. कोणूच ताचेर विस्वास दवरीना. तो सामको उबंत पडटा. ताचें अभ्यासांत वा कित्यांनूच लक्ष लागना. तो चडूच वायट प्रवृत्तीचो जाता. वर्गांत मस्ती करूंक लागता. तातूंत ताका मजा दिसता. कांय जाण ताचीं फकांडां करपाक म्हणून ताका फुलयतात. आनी हो मागीर चडूच करूंक लागता. करतां करतना शाळेंत मस्तेपणा करूंक लागता. ही मस्ती पचली

जाल्यार तो गावांत मस्ती करूंक लागता. आनी गांवगूंड जावन पडटा.

म्हणून भुरग्यांनो, मतींत धरात. ल्हानपणांत आवय बापूय, शिक्षक जें तुमकां सांगतात तें तुमच्या फुडाराखातीर. तुमी ब्रे शिकचे, बरे व्हड मनीस जावंचे म्हूण. तुमचे आवय बापूय कश्ट काडून तुमकां शिकूंक हांगां शाळेंत घालतात. तुमी शिकचे म्हणून ते दीस-रात काम करात. एक एक वेळार ते उपाशी रावतात, पूण तुमकां व्यवस्थित वाडटात, बरे बरे कपडे घालूंक दितात. तुमी बरे मनीस जाले, बरे शिकले, व्हड जाले, बरें नांव मेळयलें म्हणटकच तांकां समाधान. नाचप, खेळप, एकामेकांचीं फकाणां करप हें वेगळें आनी दुसऱ्याक त्रास जावपाचे नदरेन मस्तेपणा करप हातूंत वेगळेपण आसा. दुसऱ्यांच्या आरोग्याक, कुडिक वा मनाक त्रास जायसारखीं मस्तेपणां केन्ना करूंक जायना. उरफाटें दुसऱ्याक मदत जाय सारखें आपणें वागत जाल्यार आपल्याक समाधान मेळटा, आनंद गावता. दुसऱ्याची इश्टागत जाता, जी जिणेंत केन्नाय उपकाराक पडूंक येता. दुसऱ्याची आपल्याक केन्ना गरज लागत तें कळना. तो लेगीत प्रसंगाक आपल्याक खोशयेन मदत करूंक धावन येता.

अशेच वाट चुकिल्ले दोग भुरगे. तांकांय दुसऱ्यांक त्रास करूंक मजा येताली. पूण दुसऱ्याक त्रास दिल्यार आपुणूच केन्नाय त्रासांत पडटा म्हणपाचें तांकां खूब बेगीन कळ्ळें. ते आपले चुकिचें प्रयश्चीत घेवंक आयज हांगां प्रार्थना सभेंत आयल्यात. तांकां हांव मायकार आपयतां. पयलीं, दिनेश.'' अशें म्हणून मुख्याध्यापकान दिनेशाक आपयलो. थंयच कुशीक तकली सकयल घालून आशिल्लो दिनेश थरथरत आनी कडकडत मायका म्हऱ्यांत आयलो.

''हांव ऽऽ, हांव ऽऽ, म्हाका ऽऽ, हांव सगळ्यांची चूक मागतां. हरीशाची आनी पिरीशाची हांव चूक मागतां. परत अशी चूक घडचीना. हांव बरो भुरगो जातलों.''

''आतां ईर्शाद'' अशें म्हणून मुख्याध्यापकान ईर्शादाक आपयलो. ताणें लेगीत दिनेशाभशेनूच चूक मागपाचो यत्न केलो. पूण तो लेगीत सगळ्यांच्या मुखार मायका सामकार पावल्या बरोबर थरथरलो आनी ''सो ऽऽ री म्हळ्ळें'' आनी कुशीन सरलो. त्या बरोबर मुख्याध्यापकान ताका परत मायकाम्हऱ्यान हाडलो आनी सगळें परत सारखें सांगपाक लायलें. ईर्शादान परत भीत-भीत सगळ्यांची चूक मागली आनी आपूण हाचे मुखार बरो भुरगो जातलों म्हणपाचें

सांगलें.

हरीश आनी पिरीश खूश जाले. प्रार्थनासभेंतल्यान वर्गांत वतना दोगूय खूश आसले.

"जांव, आतां तरी आमी बरे भशेन उरतले." हरीश.

"हय. आमच्या देंवचारमामान सगळें व्यवस्थीत जाग्यार घालें." पिरीश.

"पूण आमी आमचें सदचें काम करीत रावंक जाय."

"हय तर. आमचें खावपा-जेवपाचें, व्यायामाचें, सगळें व्यवस्थीत वेळचे-वेळार जावंक जाय."

"सारकें तुजें. मात लेगीत हयगय जावंक जायना. म्हाका दिसता आमी सेमानांतल्यान फकत दोन दीस कराटेक वतात. आमी त्या भायर आनीक कसलोय व्यायाम करूंक जाय."

बरोबर तुजें. म्हाकाय तशेंच दिसता. आयज सांजे ताचेर उलोवंया."

ते वर्गांत पावले तरी उलयत आसले. वर्गशिक्षकान वर्गांत पावल दवरल्या बरोबर ते थंड जाले.

मदले सुटयेंत ते सदचे भशेन मदले पासयेचेर उबे रावन आपल्यो चपात्यो खाताले.

हरिशान आपले चपातेक तूप लायिल्लें, पिरीशान आंब्या-हालवो लायिल्लो.

"आमी जीमान या? खडपाबांदार बरी जीम आसा. म्हाका खबर आसा खंय आसा ती. खूब जाण वतात थंय."

"बाबा आनी आई उलयताना हावें आयकल्लें. बाबा सांगतालो योगा बरो म्हूण. योगा केल्यार खंय पुराय आंगांक रगत बरें घोळटा, मनीस आरोग्यान बरो उरता आनी कसलोच रोग जावंक पावना. आंगूय ताका लागून बरें घट्ट जावंक पावता खंय."

अशें ते उलयता म्हळ्यार फुड्यांतल्यान दिनेश आनी ईर्शाद येतना दिसले.

"हे आनी आमचे वाटेन शे!" पिरीश.

"हय मरे, सकाळीं तर सामके निवळील्या भशेन उबे राविल्ले वेदीर. आतां

कित्याक येतात काय?''

''कित्याकूय जांव, आमी देंवचाराक उलो मारुंया.'' पिरीश.

''हय रे बाबा.''

अशें म्हणून तांणी दोळे थोडो वेळ बंद केले.

''आमची चूक जाली.'' अशें म्हणून दोगांयनीय तांकां हात दिलो.

''आमी तें केन्नाच विसरून गेले.'' अशें म्हणून तांणीय तांकां हात दिलो.

''आमी तुमचे ईश्ट जावंक सोदतात. आमकां तुमचे मदीं घेयात. तुमी सद्दां खेळटात. आमी लेगीत तुमचे वांगडा खेळूंक येतात.'' दिनेशान सांगलें.

''पळे दिनेश. आमी फकत आमच्या कॉलनीतल्या भुरग्यांवांगडा खेळटात. आमी दुसऱ्यांक घेनात'' पिरीश.

''आमकां आमची चूक कळळ्या. म्हूण आमी बरे भुरगे जावंक सोदतात. आमी तुमचे वांगडा रावत जाल्यार आमी सुदरूंक शकतले. ना जाल्यार परत त्याच वातावरणांत आमी उरतले. पूण तुमी आमकां माफ करुंक ना दिसता.'' ईर्शाद

''तशें न्हय. आमी तुमचेर केन्नाच रागार जावंक ना. पूण तुमकां शाळेंतल्यान काडले तेन्ना आमकां वायट दिशिल्लें. आमी मुख्याध्यापकाक वचून तुमकां काडूंनाका म्हूण विनवणी केल्ली. बरेभशेन सांगून तुमकां सुदरुंक एक संद दियात म्हूण विनवणी केल्ली.'' पिरीश.

''खरें? देव बरें करुं. आमी तुमकां खूब त्रास दिले. पूण तुमी आमचेर मात पासून रागार जालेनात. तुमी इतले बरे भुरगे. म्हूण आमकां तुमचेलागीं इश्टागत करूंक जाय आसली.'' दिनेश.

''आमी तुमचेर कित्याक, कोणाचेरूच रागार जावपाचो प्रस्नच उप्रासना. केन्नाय पूण तुमकां तुमची चूक कळटली आनी तुमी सुदरतले हाची आमकां खात्री आसली.'' हरीश.

''पूण, तुमी आमकां खेळूंक कित्याक घेनात तर?'' दोगांनीय विचारलें.

''पळेयात. तुमकां आतांच सांगलां. आमी फकत आमच्या कॉलनीतले भुरगे घेतात. तुमकां घेतल्यार आमकां बाकिच्या भुरग्यांक घेवचें पडटलें.'' पिरीश.

“आमी दुसऱ्या भुरग्यांक सांगूंक वचचेनात. आमी तांचेकडलो संबंध तोडूंक पळेतात. ते खातीर आमी तुमचेवांगडा येवंक सोदतात. तुमच्च्या सांगात्यांक जाय जाल्यार आमी विनवणी करतात.” दिंनेश

“नाका. आमीच तांकां विचारतात आनी फाल्यां तुमकां सांगतात.” हरीश.

“बरें तर. फाल्यां तुमकां मेळटात.” दोगूय.

तितल्यान घंटा वाजली आनी मदले सुटयेचो वेळ सोंपलो. हरीश आनी पिरीशाचें टिफीन खावंचेलें तशेंच उरलें. ते तशेच धावंले वर्गांत.



# 14

हरीश आनी पिरीश साडेपांच जाता म्हळ्यार पिंपळा पेडार धांवले. व्हाणो सकल दवरून ते सपणांक हात लावन पायां पडले आनी वयर चडले. मुळसांत आशिल्ल्या पाशाणी फातरी कडेन वचून ते धिपरां तेकोवन बसले आनी दोळे धांपून देंवचाराची प्रार्थना करूंक लागले. ''देंवचारमाम, आयज तूं आसलो आमच्या वांगडा शाळेंत? कितें जालें जाणा तूं?'' हरीश.

''आरे, पूण देंवचारमामाक आपय मरे पूण! वगीच कोणाकडेन उलयता?'' पिरीश.

''हय मरे! आमी पयलीं देवचारमामाक उलो मरूंया.'' हरीश.

अशें म्हणून तांणी उलो मारपाक सुरवात केली.

''देंवचारमाम, ओ देंवचारमाम खंय रे तूं? आमचेर रागार बी काय कितें रे? रागार बी जांव नाका आं? आमी तुवें सांगलां तशें स्वता पायांर उबे रावचेली तयारी करतात. मागीर आनी कोणाचीच गरज लागूंक जायना, तुजी लेगीत. तुवेंच सांगलां. म्हणटकच आतां असो रागार जावन सो बसला?''

देंवचारमामाची जाग ना, थंडसाण. रावं नज जावन हरीशान परत उलो मारलो.

''देंवचारमाम, ओ देंवचारमाम, आमचेर रागार कित्याक तें तरी सांग मरे.''

थोडो वेळ वगी रावन तांणी वाट पळेली. कांयच हालचाल ना.

''देंवचारमाम, आमची कितें पूण चूक जाली तें तरी सांग मरे!'' पिरीश.

''चूक कितें जाली तें समजल्या शिवाय आमी सुदारतले कशे?'' हरीश.

“हाचे पयलीं, देवचारमाम म्हूण उलो मारल्या बराबर जाप करतालो. आमकां बऱ्यो बऱ्यो गजाली सांगतालो. आयज अशें कितें जालां? आयज आमी अशेच वचचेलें?” पिरीश.

“आमकां तुजेकडेन खूब कितें उलोवचेलें आसा. तुजेकडल्यान आनीक खूब जाणा जावन घेवचेलें आसा.” हरीश.

तांकां रडूंक येवंक लागलें. दोळ्यांत दुकां दाटलीं.

“अशें कितें करता हो देंवचारमाम? आमकां अशें मर्दीकूच सोडून दिवप? आमकां अदीं-मदीं गायडन्स नाका?” पिरीश

“हा, ऽऽ हा, ऽऽ हा, ऽऽ” व्हड्डा व्हडान हांसत देंवचारमाम प्रगट जालो. दोगांयनीय एकदम आंग काडलें.

“कितें देंवचारमाम? आमचेर असो रागार सो?” दोगांयनीय एकदम विचारलें.

“हांव तुमची परिक्षा घेतलों.” देवचारमाम.

“आमची एक्झाम!” पिरीश.

“हय. परिक्षा. दिनेश आनी ईर्शाद तुमचे इश्ट जाले. तुमच्या माथ्यावेलें व्हडलें वजें सकयल देवलें. आतां म्हजी गरज कसली?”

“तशें न्हय देंवचारमाम. आमकां अजून बरें कोन्फीडन्स येवंक ना न्हय?” पिरीशान सांगलें.

“आमकां कशें आनी कितें म्हणटा तें समजतलें कशें?” हरीश.

“पळेयात. खंयचेय पद्धतीन तुमकां स्वतावयलो विश्वास वाडोवंक जाय. त्या कामाक म्हजी अशी मातूय गरज ना. तुमी अशे प्रत्येक कामाक म्हजेर अवलंबून रावले जाल्यार तुमचो स्वतावयलो विस्वास कसो वाडटलो? दुसरी गजाल मतींत घेयात. खयंच्या वेळार, खंयच्या वक्तार कितें करचेलें, कशें करचेलें, ह्यो साद्यो साद्यो गजाली. ते खातीर तुमकां तुमचे आवय बापूय, शाळेंतले शिक्षक-मुख्याध्यापक आसात. तांचेलागीं खूब वर्सांचो अणभव आसा. चड करून तुमचे आवय-बापूय. तांचे लागीं उलयात. तांकां तुमची चड काळजी. तुमकां खरें मार्गदर्शन तांचेकडसून मेळटलें. अशे सादे सादे गजालींखातीर म्हजेलागीं येवचेलें ना.” देंवचारमाम.

“देंवचारमाम, म्हणजे तूं आमकां सोडटा?” हरीश.

''ना रे बाबानो. तुमी बरे भुरगे. तुमी म्हाका आवडटात.'' देंवचारमाम.

''तशें जाल्यार तुमी म्हजेलागीं येवं नाकात अशें कित्याक म्हळें तर?'' पिरीश.

''तुमकां हुशार भुरगे जावपाक नाका?'' देंवचारमाम.

''जाय तर!'' दोगीय.

''तुमकां तुमच्या आवय-बापायचो तुमचेर विस्वास बशिल्लो नाका?'' देंवचारमाम.

''जाय तर!'' दोगूय.

''तशें जाल्यार असल्यो गजाली तुमीच थारावपाच्यो. तेखातीर म्हजेकडेन येवपाचें ना. सामकीच गरज लागली जाल्यार आवयक-बापायक विचारप. कांय बाबतींत शिक्षकांक विचारात.'' देंवचारमाम.

''समजलें.'' दोगीय.

''फाटले भशेन सामकें जिवावयलें आसल्यार लेगीत तुमचेलागीं ताका तोंड दिवंचेली शक्त निर्माण जावंक जाय.'' देंवचारमाम.

''ते खातीर आमी पौश्टिक अन्न खातात आनी तुमी सांगिल्लें तशें आमी कराटे क्लासीक वतात.'' हरीश.

''शाबास. पूण आनीक कांय गजाली करूंक जाय.'' देंवचारमाम,

''कितें त्यो?'' दोगूय.

''तुमी योगा करूंक जाय.'' देंवचारमाम.

''तातूंत कितें जाता?'' हरीश.

''योगाक लागून आपलो स्वताचेर विश्वास तयार जाता. मनाक घटसाण येता. कूड घट जाता.'' देंवचारमाम.

''म्हणटकच, तूं म्हणटालो तशें प्रसंगाक तोंड दिवपाक शक्त येता.''

''कळ्ळें, देवचारमाम. आमकां पिटी सर योगा शिकयता. ताकाच आमी आमकां वेगळे शिकय म्हूण सांगतात.'' पिरीश. अशें म्हूण ते वचूंक उठले. इतल्यान,

''देवचारमाम, एक विसरले,'' दोगूय

''कितें तें?'' देंवचारमाम

''दिनेश आनी ईर्शाद आमचे वांगडा खेळूंक येतात म्हणटाले. तांकां

घेवंचेले?'' दोगूय.

''हय तर. ते तुमच्या परस व्हड. पूण तांच्या वांगडच्या बरोबर ते सारखे खेळूंक पावले नात. ते वायट सांगतींत सांपडले. थंयच्यान आतां ते कुशीक सरून तुमच्या वांगडा रावन ते सुदारूंक सोदतात. तांकां संद दिवंक जाय. तुमचे लागीं ताणी माफी मागल्या म्हणटकच तांकां तुमी संद दिवंकूच जाय. तुमच्या वांगडा रावन ते सुदारतले.'' देंवचारमाम.

''बरें तर. आमी तशेंच करतात. आमच्या वांगडच्यांक समजायतात आनी तांकां खेळपाक घेतात. पूण तांकां दादागिरी करूंक आमी दिवचेनात.'' हरीश.

''ते तुमच्या वांगडा दादागिरी करूंक येनात. ते सुदरूंक येतात. तांकां बऱ्या भुरग्यांचो वांगड जाय. तेखातीर ते तुमच्या वांगडा खेळूंक येतात. मदीं मदीं एकाद्रे तांचेकडेन चूक जायत, तुमी तांकां सांबाळून घेवंक जाय.'' देंवचारमाम.

''कळळें, देंवचारमाम. आमी बाकिच्यांकूय सांगतात. खरें म्हळ्यार तें काम आमचेरूच येतलें. आमीच सगळ्यांक सांबाळचें पडटलें. तुजो आशिर्वाद आसल्यार पुरो.'' हरीश.

''बरें तर. चलात तुमी.'' देंवचारमाम.

दोगूय पायां पडले आनी सकयल देंवले. परत पेडाक पायां पडले आनी जोतें घालून उलयत चलपाक लागले.



# 15

हरीश, पिरीश आनी तांचे सांगाती वाड्यावयल्या उकत्या मळार खेळटाले: कोणे बेटां हाडचेलीं, कोणे विकेटी हाडचेल्यो तें पयलींच थारायल्लें आसतालें. ते सगळे जाण पैशे काडून बॉल हाडटाले. केन्नाय क्रिकेट खेळटाले, केन्नाय धरचेल्यांनी, केन्नाय कबड्डी. तर केन्नाय लिपचेल्यांनी, केन्नाय लगोऱ्यो. अशे तरातरांचे खेळ ते खेळटाले. सदांच ते दोन पंगड करून खेळटाले. पंगड थारायल्लो नासतालो. पंगडांतले वांगडी सदांच बदलताले. प्रत्येक वेळार ते दोन मुखेली वेंचून कांडटाले आनी मागीर दोग दोग जाण जोडयो करून मुखेली म्हऱ्यांत येवप आनी म्हणप, "मात मातीरयो."

मुखेल्यान म्हणप, "हरयो."

तेन्ना तांणी विचारप, "कोणाक जाय बाबू, कोणाक जाय शाबू?"

तांचे भितर बाबू आनी शाबू थारायिल्लो आसतालो. वा पयलीं थारावन तांणी म्हणप,

"कोणाक जाय निळू, कोणाक जाय केळू?"

मागीर त्या मुखेलीनी आपल्याक जाय तें नांव घेवप. तें नांव घेतिल्लो गडो ताचेकडेन वचप आनी दुसऱ्यान दुसऱ्याकडेन. अशे तरेन प्रत्येक वेळार वेगळो पंगड आनी वेगळो मुखेली आशिल्ल्यान झगडीं म्हणटा तीं जायनाशिल्लीं. समजा कोणूय एकटोच उरलो आनी ताका जर जोडी करूंक कोण मेळना जाल्यार तो दोनी पंगडाक खेळटालो. तसल्या गड्याक 'धोसको' म्हणटाले. बेटींगे वाटेन बेटींग करतालो त्या भायर त्याच्च पंगडाक आपूण बेटींग करीना तेदेवेळार तांकां बोलींग घालतालो. तशेंच बोलींगे वटेचो पंगड वेटींग करचे

वेळार तांकां बेटींग करतालो आनी तांकांच दुसऱ्या पंगडाचे वटेन बोलींगूय घालतालो. अशे तरेन त्या धोसक्याचें बरें फावतालें.

दिनेश आनी ईर्शाद येतकच तांकांच जोडी घालून येवपाक सांगलें. ताका लागून तांची जोडी फुटली. ते दोगीय दोन पंगडात पडले. एकठांय रावन किजीलां उप्रासपाचो प्रस्न अशे तरेन मेकळो जालो.

दिनेश आनी ईर्शाद अशे तरेन प्रत्येक वेळार दोन वेगळे पंगडान पडिल्ल्यान ते एकठांय येवन कितेंय अवचिनपणां येवजूंक पावनाशिल्ले. आपआपल्या पंगडाक खेळपाक गूंग उरताले. काल मेरेन कसलेंय काम एकठांय येवन करचेली वा एकवटान करचेली सवंय नाशिल्ल्यान तांकां आडखळिल्ल्या भशेन जावंक लागलें. दोन चार दिसानीं, खेळ सोंपतकच तांणी हरीशाक आनी पिरीशाक येवन सांगलें.

"हरीश, हांव आनी ईर्शाद सदांच एकठांय खेळटाले." दिनेश

"मागीर कितें जालें?" हरीश.

"तशें न्हय. पूण आमकां हांगां वेगळ्या पंगडांत खेळचें पडटा." दिनेश

"त्या कामाक कितें जालें?" हरीश.

"आमकां खेळपाक मजा येना. आडखळील्ल्या भशेन जाता."

"तुमची मर्जी. आमी तुमकां पयलींच सांगिल्लें. तुमी आपूण जावन आयल्यात. खेळपा आसा जाल्यार खेळात." पिरीश.

"खेळपा आसा जाल्यार खेळात म्हळ्यार कितें? तुमी स्वता कितें समजतात?" ईर्शाद.

"मातसो उगी राव पळोवंया." दिनेश

"उगी कित्याक राव? ताणे कितें म्हळें तें आयकलें ना? खेळपा आसल्यार खेळात म्हळ्यार कितें?" ईर्शाद.

"तूं हांगां खेळपाक आयला काय झगडपाक? अजून तुजी झगडपाची खूमखूमी वचूंक ना?" दिनेश.

"तशें न्हय रे. पूण हे आमचेर उपकार केल्ले भशेन उलयतात." ईर्शाद.

"पळे. आमी आमच्या कॉलोनी भायले भुरगे घेनात हें तुमकां पयलींच सांगिल्लें. पूण तुमी आमकां सामकी विनंती केली म्हूण आमी सगळ्यांक सांगून तुमकां घेतल्यात." हरीश.

‘‘तशें न्हय रे. पूण आमकां वेगळे वेगळे खेळपाची सवंय ना न्हय रे? आमकां कशेशेंच जाता. खेळूंक मन येना.’’ दिनेश.

‘‘आमी त्या कामाक कांय करूंक शकना. आमचे कॉलनींत जशे खेळटात, जी पद्दत वापरतात तीच पद्दत, तेच नेम तुमकां लागू जातले. तुमचे खातीर आमी वेगळे नेम आपणावंक शकनात.’’ पिरीशान सांगलें, ‘‘परत एकदां तेंच सांगतां, आमच्या नेमां प्रमाण खेळटले जाल्यार हांगां खेळपाचें. ना जाल्यार येना जाल्यार जाता. आमचें कांयच म्हणणें ना.’’

‘‘ना.’’ दिनेश, ‘‘आमी हांगांच येतात खेळूंक.’’

‘‘तुमी त्या साईश, रघूवीर बी भुरग्यांवांगडा वताले न्हय रे खेळपाक? आतां कित्याक वचनात?’’ पिरीश.

‘‘तुमकां खरें सांगतां. तांचे लागीं आमचीं झगडीं जावपाक लागलीं.’’ ईर्शाद.

‘‘झगडीं जावपाक लेगीत आमीच जबाबदार रे.’’ दिनेश, ‘‘आतां आमकां समजता. आतांच पळेलें ना? साद्या कामांक लागून वेगळो अर्थ काडून ईर्शाद तुमचेर गुरगुरपाक लागलो. तशे आमी तांचे लागीं झगडपाक लागताले.’’

‘‘पूण ईर्शाद कित्याक तापलो?’’ हरीश.

दिनेश, ‘‘पिरीशान म्हळें न्हय रे, आमचे वांगडा खेळटले जाल्यार खेळात म्हूण?’’

‘‘मागीर हावें चूक कितें सांगलें? आमी तुमकां आपोंवक वचूंक नासले, तुमी आमकां रिक्वेश्ट करून आयल्यात. आनी आमी तुमचेखातीर आमचे कॉलनीचे खेळपाचे नेम बदलूंक शकनात. आतां तुमकां हें मान्य ना जाल्यार तुमी येवं नाकात.’’ पिरीश.

‘‘बरोबर तुमचें. आमचीं अश्याच कारणांक लागून झगडीं जातालीं. झगडीं जावंक जायना जाल्यार नेमांक पालव दिवन खेळपाक जाय. हें तेन्ना आमकां समजलें ना.’’ दिनेश.

ईर्शाद, ‘‘चुकलें म्हजें. म्हाका अजून रोकडोच राग येता. फाटल्या दिसानीं हाचेकूय चड येतालो. म्हूण आमी हळू हळू चुकीच्या मार्गान पावले. दादागिरी करपांत मजा येवपाक लागली. पूण जुस्त तुमची गांठ पडली आनी

आमी जाग्यार आयले.''

''म्हण्टकच तुमी कितें करतात?'' हरीश

''आमी तुमचे वांगडा खेळूंक येतले.'' दोगांयनीय एकाबरोबर सांगलें.

''तशें जाल्यार आतां मेरेन जशे नेम पाळीत आयल्यात तशेच्च नेमाक पाळो दिवन खेळपाचें. तांतूंत कांयच फरक जावंचो ना.'' हरीश.

''तुमच्याच वांगडा खेळत जाल्यार आमी सुदारतले. आमी खेळाचे सगळे नेम पाळपाचो यत्न करतले.'' दिनेश.

''मदीं मदीं आमचे कडेन कितेंय अशो चुको जावंक शकतात. तेन्ना आमकां समजून घेवंचेलें आनी आमकां सारकें कितें तें सांगचेलें. आमकां सुदारचेले.'' ईर्शाद.



# 16

तेवटेन सुरजाच्या बापायन सुरजाक म्हऱ्यांत घेतलो.

“सुरज, बाब, असो हांगां यो.”

“कितें जालां, बाबा?”

“असो यो. हांगां बस. म्हाका एक सांग.”

“कितें तें?”

“तुका अजून मिलीटरींत वचन दिसता?”

“हय बाबा. म्हाका मिलीटरींत वचपाक आवडटा.” सुरज.

“बरें, तूं वच मिलीटरींत. पूण थंय तूं सादो सोलदार जातलो, काय एक ऑफिसर?”

“पूण बाबा, हांव वचूंक सोदतां तें मिलीटरी ट्रेनींग स्कुलांत. थंय म्हज्यान मिलीटरी शिक्षणा वांगडाच पदवी मेरेन शिक्षण घेवंक गावता आनी ऑफिसर जावंक जाता.” सुरज.

“बरोबर, पूण थंय रावन तुजेकडेन दोनी गजाली जातल्यो?” बापूय.

“कसल्यो त्यो?” सुरज.

“शिक्षण आनी मिलीटरी ट्रेनींग?” बापूय.

“तशेंच शिक्षण आसता न्हय तें?” सुरज.

“हांव वेगळो विचार करतालों.” बापूय.

“कसलो तो, बाबा?” सुरज.

“तुवें हांगांच रावन पदवी मेरेन शिक्षण घेतलें आनी मागीर मिलीटरींतं गेलो जाल्यार बरें जावचें ना?” बापूय.

“म्हणजे तुमी म्हाका मिलीटरींत वचूं नाका अशें म्हणटात?” सुरज

“ना. मिलीटरींत वचचेलें तुज्या मनांत घेतलां, तूं वच. आमी आडायनात. पूण पदवी घेवन मागीर गेलो जाल्यार ऑफिसर म्हूण भितर सरतलो अशें म्हाका दिसता. तुजें पळे कशें तें.” बापूय.

“ना. हांगां रावलों जाल्यार हें शिक्षण म्हाका जमचें ना आनी हांव पदवी मेरेन कसोच पावचो ना.” सुरज.

“मिलीटरी स्कुलांत शिकयता तें तुका जमतलें कशें तुका दिसता?” बापूय.

“तांचे विशय हे मिलीटरी संबंधीतून आसतले न्हय? तशेंच अभ्यासक्रम लेगीत त्याच संबंधीत आसतलो.” सुरज.

“बरें आसा. तुजी मर्जी.” बापूय.

“म्हणजे तुमी ताका मिलीटरींत धाडटातूच तर?” आवयन मदीं तोंड घालें.

“पळे, ताचें हांगां कसल्याच गजालीनीं लक्ष लागना. कायंच आवडना. असो रस्ताद कसो भोवन गांवगूंड जावंचे परस मिलीटरीत गेल्लो कितें वायट?” बापूय.

“पूण, मिलीटरींत त्रास न्हय?” आवय.

“कितेंय करून पोट भरतलो जाल्यार त्रास हे काडचेच लागतात.” बापूय.

“खयूंय पोट भरतलो जाल्यार त्रास हे काडुंकूच जाय न्हय! हें म्हाकाय समजतां. पूण मिलीटरी म्हणटकच वगीच हुस्को दिसता.” आवय.

“हुस्को हो आयज काल सगळेकडेन उरता. सादोसुरतो सकाळीं भायर सरील्लो मनीस बरे भशेन सांजे घरा पावतलो काय म्हूण हुस्को जायना? पूण ताचें जें सुरवेचें आसा तें शिक्षण. सर्वीस मागीर. म्हणटकच कांय वर्सां तरी हुस्को नाका.” बापूय.

“तें जालें हो. पूण थंय तो एकटो उरतलो न्हय!” आवय.

“पळे. थंय ताचे असले जायते जाण आसतले. तो एकटो उरचो ना. ते भायर मिलीटरी शिस्त म्हणटा ती कडक. मनीस व्यवस्थीत आनी शिस्तप्रीय जाता.” बापूय.

“तरी हुस्को हो जाताच न्हय!” आवय.

“तें जालेंच. नशिबांत आसा तें कोणाच्यानूच चुकोवं नज. अशे जायते जाण आसात जे प्रत्यक्षांत शिमेचेर लढायेंत भाग घेवन एक कुस्कूट लागनास्तना बरे भशेन आयिल्ले आसात.” बापूय.

“तें सगळें नकळो तर हांव? पूण आवयचें काळीज तें, हालताच न्हय?” आवय.

“आतांच्या जगांत तें काळीज घट करचें पडटलें. कांयच चितपाचें ना. तो आनी ताचें नशीब. कोण जाणा? एखादे तो मिलीटरींत नांव मेळोवंक शकतां.” बापूय.

“जांव बाये मिलीटरींत जाल्यार मिलीटरींत. पूण बरो करून राव बाबा.” आवय.

“हांव आयजूच वचून नांव दिवन येतां. आयच्याच दिसाळ्याचेर जायरात आयल्या.”

सुरजान दिसाळें काडून दाखयलें. ताच्या बापायन ती बारीकसाणेन वाचली. आनी सुरजाच्या आवयक दाखयली.

“बरें आसा. तुजें नशीब तुज्या हातांत.” आवयन म्हळें. सुरज आनंदान भायर सरलो.

“आतां आनी खंय वता रे?” आवय.

“म्हज्या इश्टांक सांगूंक.” सुरज.

“ते कितें करतात खंय? अशेच रस्ताद भोवंतले?” बापूय.

“ना. दोग जाणानी आय. टी. आय. चो फोर्म भरला आनी एकटो आपल्या बापायल्या दुकानाचेर वता.” सुरज.

“जांव बाये. सगळे मार्गाक लागले. असोच गांव सुदारू.”

आवय, “सगळे जाण बरे भशेन आपआपले काम-धंद्यांत गुरफटून उरले म्हणटकच गावांत स्वस्थकाय येतली, शांतताय येतली. गांव उदरगत करूंक पावतलो.” आवय.



# 17

हेवटेन दिनेश आनी ईर्शाद, हरीश आनी पिरीशाची इश्टागत घट करीत रावले. हाका लागून तांच्यांतूय बरो बदल घडपाक लागलो. तेवूय अभ्यासाक लागले. आठवेचो अभ्यास तांकां इल्लो जड वतालो. ताका लागून तांचें लक्ष अभ्यासाक लाग नासलें. अभ्यास ना आनी कामूय ना म्हणटकच आपशींच तांकां तवनासगिरी येवजूपाक लागली. तांतूंत तांकां सुरज, सर्वेश सारख्यांची देख दोळ्यांसमकार आसताली आनी तेभायर सिनेमानी दाखयतात त्यो दादागिरी शिकूंक मेळटाल्यो.

पूण आतां तांचे दोळे उगडले. बरें-वायट देंवचारमामान तांकां सांगिल्लें. सर्वेश-सुरज लेगीत सुदारील्ले. सर्वेश-सुरज वायट मार्गाक लागिल्ल्यान तांच्या आवय-बापांयक कितले त्रास भोगचे पडल्यात तें तांच्या दोळ्यांनी पळेलें. दोन दीस ते पेडार उरले तेन्ना तांचे आवय-बापूय कशे हुस्क्यान उचांबळीत जाल्ले, रातभर कशे तळमळे काडले तें तांणी अणभविल्लें. हरीश आनी पिरीश हांची इश्टागत जातकच, तांचेकडेन यो-वच करतकच तांची आवय कशी व्हडा उमेदीन आपल्या पुतांची सरबराय करता ती जाणवली आनी आपल्या आवय-बापायक आपूण कशे फटयताले हें येवजून तांकां आपलीच लज दिसूंक लागली. तांणी थारायलें हाचेफुडें असलें सगळें बंद. अभ्यासावेळार अभ्यास करप आनी खेळावेळार खेळ. थोड्याच दिसांभितर तांकां कळून आयलें, वर्गांत जर व्यवस्थीत लक्ष दीत आनी त्या दिसाचो अभ्यास त्या दिसाच सांजे घरा करीत तर पुराय अभ्यास समजता. जें कठीण लागता वा समजना तें दुसऱ्या दिसा वर्गांत टिचराक वा दुसऱ्या भुरग्यांक विचारून समजून घेवंक जाता. अशे रितीन

तांची जीण सुदारूंक लागिल्ली. हरीश आनी पिरीश घरचीं खाणां खातात. शाळेंत लेगीत मदले सुटयेंत खावपाक तूप-साखर लायिल्ली चपाती, भाकरी बी पुस्टीक खाणां व्हरतात तें पळोवन तांणी लेगीत तशीं खाणां व्हरूंक सुरवात केली. जे वर्गानी वा शाळेंत मस्ती करतात, सारखे वागनात तांकां ते मेळटाले आनी आपलो अणभव तांकां सांगून तांच्यांत बदल घडोवन हाडचेलो यत्न करपाक लागले.

दिनेश आनी ईर्शाद हांच्यांत घडून आयिल्लो हो बदल मुख्याध्यापकाच्या कानार पावलो.

ताका अजाप जालें. दोन दीस शाळेंतल्यान डिबार्ड केले म्हूण भुरग्यांत असो बदल घडून आयिल्लो ताणें पयले फावट पळेलो. ताणें त्या दोगांयकूय आपल्या केबिनांत आपयले. दिनेश आनी ईर्शाद दोगूय कुळकुळ्ळे. आपल्याकडेन आनीक कसली चूक जाल्या आसत काय म्हूण ते चितीत आयले. कितें आयकूचें पडत काय म्हूण भीत भीत भितर सरले. दोगांयकूय दारांत उबे पळोवन मुख्याध्यापकान तांकां भितर आपयले आनी सांगलें, ''येयात येयात. पारव्यां जोडी, येयात भितर.''

दोगूय भियेत भियेत भितर सरले.

''तेवटेन आनीक एक पारव्यां जोडी आसा, हरीश आनी पिरीश,''

मुख्याध्यापकाचो मूड बरो आसा तें पळोवन दोगांयकूय सू ऽऽ जालें.

दोगांयनीय एका-मेकाच्या तोंडाक पळेलें आनी मुखार सरले.

''तुमी आतां कितें करतात रे?'' मुख्याध्यापकान विचारलें.

''ना सर, आमी क्लासींत बशिल्ले.''

''तें विचारूंक ना हावें तुमकां. आतां आनीक कोणाक त्रास बी दिवंचेलो येवजीला काय म्हूण हांव विचारतालों?'' मुख्याध्यापकान विचारलें.

''ना सर. आतां आमी तशें कांयच करचेनात. आमी तसल्यो गजाली विसरलेत सर. आतां आमी बरे भुरगे जाल्यात सर. आमी सगळो सांजवेळ अभ्यास करतात. आनी साडे-पांचांक आमी हरीश आनी पिरीशा वांगडा तांच्या ग्रांवडार खेळूंक वतात.''

''जाणां हांव. पडलां सगळें म्हज्या कानार. कोणीय झगडटात जाल्यार लेगीत तुमी मदीं पडून तीं झगडीं पालयतात खंय.''

"सर, झगडीं करप बरीं न्हय. हें आमकां होलमलां. झगडीं करून फकत वायटपणां पदरांत पडटात. लोकांच्यो गाळी आयकुच्यो पडटात. आनी आपल्याक जाय तेदेवेळार कोण मदतीक येनात. लोक म्हऱ्यांत लेगीत घेनात." हरिशान सांगलें.

"ते भायर, झगडीं बरेपणान सोडयलीं तर बरेपणा उरतात. एकामेकाक केन्नाय जाप दिवंक गावता. बरे-वायटाक कोणय पावता." पिरीश.

"बरे शाणे जाल्यात तर तुमी. शाबास. अशेच बरेतरेन वागात. व्हड मनीस जायात. तुमच्या नांवां वांगडा तुमच्या आवय-बापायचें नांव वयर काडात. आनी तेच वांगडा तुमचे शाळेचें आनी तुमच्या गांवांचें लेगीत नांव वयर काडात." मुख्याध्यापक.



# 18

अशे जायते दीस गेले. गावांत शांतताय आनी स्वस्तताय पातळ्ळी. भुरग्यांक बरें वायट समजुपाक लागिल्लें. कोण्ण बेकार भोवंनाशिल्ले. जो तो आपआपल्या कामाक लागिल्लो. आपलें काम बरें आनी आपूण बरो. प्रत्येक जाण हें ना जाल्यार तें काम घेवन बशिल्लो. सगळे जाण पोटा-पाण्याक लागिल्ले. भुरगे अभ्यासाक लागिल्ले. बायलांक-जाणटेल्यांक धादोसकाय भोगली. ते मनांत संतुश्ट जाले, म्हणपाक लागले, ‘‘जांव, पयलीं भशेन गावांक सवस्तकाय आयली. थंडाय आयली. बरें जालें. गावांक परत गांवपण आयलें.’’ जाणटेले एकामेकालागीं उलोवंक लागले.

पूण गांवच्या सरपंचाक तें नसाय जावंक लागलें. गांवचे भुरगे बरे शिकूंक लागले, सिर्वीसेक लागले, जाल्यार ताचे फाटल्यान कोण नाचतलो? कोण ताचे फाटल्यान फुडल्यान भोवंतलो? तांचीं बारीक सारीक कामां कोण करतलो? निवडणुके वेळार कोण बोवाळटलो? गांवांत भोवन प्रचार कोण करतलो? गुंडगिरी करून मतदारांक कोण ओडून हाडटलो? ताका सगळेच प्रस्न पडपाक लागले. ताचे फाटल्यान-फुडल्यान बोवाळपी तर ताका नाका शेवट करपाक लागले. येरवीं गांवचे भुरगे शिकतात, बेकार रावनास्तना, ल्हान-व्हड म्हूण काम पळेनास्तना वा कमी दर्जाचें बी म्हूण पळेनास्तना आपल्याक जमता तसलें वा गावता तसलें काम करून सुखान रावतात. गांवाक शांतता, समाधान, समृद्धी येता तें पळोवन गांवचो सरपंच म्हूण ताका आनंद जावंचेलो. ताणें खरें म्हळ्यार तांकां सगळे तरेची मदत करचेली आनी तांचें बरेपण मेळोवपाचें पूण हो सरपंच उरफाट्या काळजाचो. ताका लोक आपले मेंगे जाल्ले

आवडटाले. सगळ्यांनी आपले भोंवतणी गुंडाळें करून आपल्याक मोठेंपण दिवचें आनी आपणे छाती फुडें काडून मिरोवचें अशें ताका दिसतालें. ताका लागून गांवाची वाट लागल्यार लेगीत ताका पडून वचूं नासलें.

ताका न्हीद पड नासली. कशें कितें केल्यार गांवचे तरणाटे आपल्या गरेक लागतले, तांकां भूल पडून आपल्याले मेंगे जातले, हाजेर तो रात-दीस विचार करूंक लागलो. ताणें आमदारालागीं संधान बांदलें. तो लेगीत ताच्याच विचाराचो आसलो. तांणी विंगड विंगड येवजण्यांचेर, विंगड विंगड हांयस दाखोवन तरणाट्यांक भुलोवपाच्या प्रकारांचेर विचार सुरू केलो. चर्चेचेर चर्चा केली. पूण कांयच निस्पन्न जायना जालें.

तांची तकली घुवंपाकडेन पावली. कसलेय प्रकल्प वा येवजण्यो चालू करतलो जाल्यार पैशे पयलीं जाय. पयशां शिवाय कसलीच येवजण वा प्रकल्प सुरू करप शक्य ना. पूण हांकां आपल्या बोल्सांतलो एक पैसो काडपाचो नासलो. उरफाटें खंयच्याय प्रकल्पाक लागून कमिशनाच्या रुपान तरी कांय पैशे गांठीक लागचे हो हावेस, आनी त्याच वांगडा तरणाटे गरेक लागचे ही मोख, दोनूय साध्य जावपाक जाय.

खूब तकली चलयली. शेवटाक 'ग्रामीण रोजगार येवजण' सुरू करूंया म्हणपाचें थारलें. हे येवजणे खाला 'रोजगार पूर्व प्रशिक्षण' सुरू करपाचें थारायलें. ते खातीर धा तरणाट्यांक प्रशिक्षण दिवपाक सुमार एक लाख रुपयांची मागणी खासदार येवजणेंतल्यान उकलपाचें थारायलें. त्या प्रमाण कागदपत्रां तयार करून खासदाराक मेळपाचें थारलें. गांवांत जाहिरात केली, शिकिल्ले तरणाटे बेकार उरतात वा कसलेंय काम करतात, ते खातीर सरपंचान सरकाराचे फाटीक लागून ही येवजण खास तुमच्या गांवात हाडल्या. अशी येवजण आनीक खंयच्याच गांवात चालीक लागूना. तेन्ना हे येवजणीचो लाव घेवपाक चुकोवं नाकात. तुमकां आपल्या पांयार, तकली ताठ दवरून, उबें रावंक मेळटलें.

खूब तरणाटे हे येवजणेक भुल्लुसले. तें पळोवन सरपंचाक हांव सुटली. ताणें आपल्या एका खास मनशाक एक मेज आनी कदेल दिवन बसयलो. ताचें काम येता त्या तरणाट्याचें नांव, पत्तो आनी फोन नंबर बरोवन घेवप आनी ताका सांगप 'तुका प्रशिक्षण जाय जाल्यार प्रशिक्षणाची फी म्हणून हजार रुपया दिवचे

लागतले. ना जाल्यार प्रवेश मेळचोना. जो पयलीं पयशे हाडटात ताका पयलीं प्रवेश मेळटलो. जागे थोडे आसात.' अशें सांगून भुरग्यांमदीं सर्त आनी तेढ निर्माण करप.

सर्वेश, पिटर, नासेर, सुरज बी सगळे संभ्रमांत पडले. कितें करचें? सुरज सोडून बाकी तिगूय आय. टी. आय. क वताले. सुरज सैनिक विद्यालयांत वचचेली तयारी करतालो. गात्रांत रावनच हें प्रशिक्षण घेतल्यार हांगांच आपलो स्वतःचो धंदो सुरू करूंक मेळटा. हेवटेन तेवटेन धांवपळ करचेली गरज पडचेली ना. ताच्या मनांत गोंदोळ सुरू जालो. तांणी घराकडेन विचारलें. प्रत्येक आवयक-बापायक आपलो पूत आपल्या दोळ्यांसामकार जाय आसता. ही आयतीच संद चलून आयल्या जाल्यार ते नाका कित्याक म्हणटले? तांणी आनी आनी फाटलो-फुडलो विचार केलो ना, हयकार दिवन उडयलो.

चौगूय जाण परत तांगेल्या सांकवार पावले. चर्चा करूंक लागले. हरीश आनी पिरीश कराटेक वताले. ह्या चौगांकूय परत त्या सांकवार पळोवन तांकां अजाप जालें.

"आरे, सुरज, आयज सगळे हांगां शे?" दोगांयनीय अजापान विचारलें.

"हाऽऽ, हाऽऽ हा," सुरज हांसलो, "कितें अजाप जालें? आमी हांगां परत तवनासगिरी करूंक बसूंक ना. सरपंचान आमचे खातीर एक येवजण तयार केल्या. तो एक प्रशिक्षण शिबीर सुरू करता. तांतूंत प्रशिक्षण घेवन आमी स्वतःच्या पायार उबे रावंक तयार जातले. आमी मागीर स्वताचो धंदो सुरू करतले."

"आरे, वा! जांव तर, सरपंचाक कोणे तरी बरी बुद्द दिली." पिरीश.

"बरी गजाल. खऱ्यानीच. आतां गांवांत कोण ब्रेकार उरचो ना. गांवची उदरगत लेगीत बरे वाटेन जावंक मदत जातली. देव त्या सरपंचाचें बरें करूं." हरीश.



# 19

हरीश, पिरीश आनी वांगडचे सवंगडी कोयंडे-बालांनीं खेळूंक शेतांत गेल्ले. कोंयडे-बालांनीं खेळून वाज येतकच ते हेवटेन तेवटेन, हाचे बितोडेचेर, ताचे बितोडेचेर, ताच्या पाख्या पोंदा, हाच्या झडी-पाटल्यान लिपचेल्यांनी खेळत नाचूंक लागले. खेळटां-खेळटां हरीश आनी पिरीश सरपंचाच्या घराकडेन पावले. आनी ते थंयच जनेलापोंदा लिपले. लिपल्या थंयच तांकां सरपंच कोणाकडेन तरी मोठ्यान मोठ्यान उलयता तें आयकूंक आयलें. तांणी सहज कान लायलो.

''कितल्या जाणानी नांवां दिल्यांत रे? फकत वीस जाणांनी? आरेऽऽ ? आनी पैशे कितले जाणानी दिल्यात? आजून कोणेच दिवंक ना? तरी लेगीत तुवें नांवां घेतल्यांत? ते खातीर तुका थंय बसयला? पिशा, ते पैशे कितें तुजो बापूय भरतलो? मागीर?...'' सरपंच फोनाचेर उलयतालो.

''सगळ्यांचीं नांवां केन्सल करून उडय. तेंकां सांग पयशे दिल्या बगर नांवांची नोंद जावंची ना म्हूण. शाण्या म्हज्या, हें सगळें आमी नाटक केलां तें चार पैशे गांठीक जमूंक जाय म्हूण. खबर ना? मागीर अशीं पिशेपणा कितें करता?...''

''बरोबर तुजें. पयलीं आमी तशें थारायिल्लें. नांवां पयलीं घेवंया आनी मागीर पयशे घेवंया म्हूण. पूण आतां तरणाट्यां मदीं भरपूर जायरात जाल्या न्हय? ताचो फायदो घेवंया मरे, आतां पासून लाग कामाक कोण येता ताचेकडल्यान पयशे वसूल कर.''

''तर पळेलें मरे, शाबी, अशे हे सांग-काम्या. आपली म्हूण तकली

वापरीनात. असल्या मनशांचेर पातयेत जाल्यार लाखा-बारा हजार करचेले.''
सरपंचान आपल्या थंय आशिल्या साथिदाराक सांगलें.

''पात्रांव, तशें केल्यारूच पयशांची गारांती जातली. ना जाल्यार आमी शेणटले.'' ताणे सांगलें.

''सरकारी ग्रेंटाचें कितें जालां?'' सरपंच.

''पात्रांव, आमदार म्हणटालो पुराय एक लाख मंजुरीक दिला.''

''ते भंगले रे. जालां तर शेंक्शन? केन्नाच्यान तो ह्यो गजाली सांगता. ताच्यो धड गजाली?''

''तो सांगतालो सामतोच चेक काडूंक लायतां म्हूण. पयलीं शेक्शन मागीर रिपोर्ट येतकच चेक अशें बी नाका म्हूण.'' ताणे सांगलें.

''शाबास. पूण तो चेक म्हज्या नांवार काडूंक सांगलां मरे?'' सरपंच.

''पात्रांव, तो सांगतालो, चेक फकत पंचायतीच्या नांवांन काडूंक जाता.''

''फुलीश. काम हांव करतलों. योजना म्हजी. आनी चेक पंचायतीच्या नांवार! हें शक्य ना. चेक म्हज्या नांवार येंवक जाय. सांग तशें आमदाराक. आतांच मोबायलाचेर ताका कोंटेक्ट कर. तशेंच त्या आवट्याक येशूक रकाद दी. म्हाका सगळे तीस तरी भुरगे जाय. सरकाराचे एक लाख, आनी ह्या भुरग्यांचे तीस हजार मागीर म्हाका येता त्या इलेसावांक कोण हारायता तें पळेतां.''

''पात्रांव, पूण पयशे येयले म्हूण इलेसांवाकडेन कितें संबंध?'' ताणें मातें खाजयत विचारलें.

''बोण्या, आरे, पयशे हातांत आसले म्हणकच ह्या ट्रेनींगाच्या नांवान त्या तरणाट्यांक भरपूर सोरो पाजोवन तांकां म्हज्या हातांत दवरूंक जाता. मागीर तांचे कडल्यान इलेसांवांचीं कामां जाय तशीं करून घे.''

''हें शेर्त पात्रांव. म्हज्या बोडांतूच येयलें ना तें. ट्रेनींगेक तरणाटे येतलेच न्हू, तांकां सारखे सोऱ्याच्या बाटलेंत बुडोवपाचे. म्हणटकच आनी ते खंयच वचचे नात. सामखे पात्रांवाच्या पांयांकडेनूच उरतले.''

''एकदां हे तरणाटे म्हजे हातीक गावूंदी. सारखे तांकां ट्रेनींग दितां पळे.''

‘‘मागीर आमकां निवडणुकेक भंय ना न्हूं पात्रांव? ह्या भुरग्यांक दीस भर वाड्या-वाड्यानी भोवंडावपाचे आनी रातचें एक बार्र उकतें दवरपाचें-ढोसा म्हूण जाय तितलें.’’

हरीशान आनी पिरीशान हो संवाद आयकल्या बरोबर तांकां सामको शेळो घाम सुटलो. तांच्या काळजांत कलकललें. ते उठले आनी सोमते पेडाकडेन धांवत सुटले. पेडाकडेन सकयल जोतीं शेवटीलीं आनी वयर वचून मुळसांतल्या फातरीर तकली दवरून देंवचाराक उलो मारलो.

‘‘सांगात भुरग्यांनो, कितें जालां?’’ देंवचारान विचारलें.

दोगूय खरशेताले. तांकां उतर फुटना जालें.

‘‘आरे, अशे खरशेतात शे कित्याक? इतलो उजो खंय लागला?’’ देंवचार.

‘‘देंवचारमाम, एक व्हडलें संकट आयलां, गांवांचेर.’’ दोगांयनीय एका दमान सांगलें.

‘‘आरे बाबानों, खबर आसा म्हाका.’’ देंवचारान थंडपणान सांगलें.

‘‘कितें म्हणटा देंवचारमाम, खबर आसा? आनी तरी वग्गी बसता?’’ तांणी विचारलें.

‘‘भुरग्यानों, तुमकां हावें कितें सांगिल्लें? हांव जावन कांयच करूंक शकना. जेन्ना तुमी फुडाकार घेतले, तेन्ना तुमकां हांव मदत करूंक शकतलों.’’ देंवचार.

‘‘तशें सांगिल्लें तुवें, देंवचारमाम. म्हणटकच आमी कितें करूं तें सांग, देंवचारमाम. पूण कशेंय करून हें संकस्ट पयसांवक जाय. आमच्या वेळार तूंच आमचे वटेन रावलो आनी पुराय गांव सुदारलो. आतां गावांक पिड्च्यार करपाक गांवचोच सरपंच फुडें सरला. गावच्या तरणाट्यांक बेबदे आनी बेकार थवय करून उडोवंक सोदता.’’ तांणी विचारलें.

‘‘जाणा हांव. पूण तुमी कांय करूंक शकचेनात, तुमी भुरगे. तांची येवजण आसा ती सुरज सारख्या तरणट्यांखातीर. तांणी फुडाकार घेतल्यार हांव तांच्या वांगडा रावतां, तांकां मदत करतां.’’ देंवचार.

‘‘सुरजाक, पिटराक बी आर्मी हांगां आपयतात.’’ पिरीश.

‘‘नाका. तुमी तांकां मेळात आनी सरपंचाची येवजण पुरायपणान तांकां

सांगात. तो कसो स्वयंरोजगार येवजणेखाला तांच्या सारख्या तरणाट्यांची जीण काबार करपाक सोदता ही गजाल बरी तिखट-मीठ लावन सांगात.'' देंवचारान समजायलें.

''म्हणटकच ते सगळ्या गांवार भोवन तरणाट्यांक सांगतले?'' हरीश.

''ना. सरपंच आपली येवजण सफल जाली म्हूण नेटार ती चालीक लायता आसतना ते ताचें बींग भायर फोडटले. सगळ्या भुरग्यांक सरपंच कसो फटोवपाक सोदता तें थंयच दाखोवन दितले.''



# 20

हरीश आनी पिरीश सांकवाकडेन पावले. पळेत जाल्यार चौगूय जाण सांकवार बशिल्ले. आनी सरपंच्याचेच येवजणेच्यो गजाली करताले.

‘‘तुमी सरपंचाचे स्वयं-रोजगार येवजणे संबंदांत उलयतात न्ही?’’ हरीश-

‘‘पूण तुमकां ती कांय उपेगाची ना. तुमच्या सारख्या पिटकुल्यां खातीर ती ना.’’ सुरज-

‘‘बरोबर. आनी ती तुमकां लेगीत उपेगाची ना, हेंच सांगपाखातीर आमी हांगां आयल्यात.’’ दोगांयनीय सांगलें.

‘‘आरे, चल फूट! तुमकां तांतुतलें कितें कळटा?’’ सर्वेशान रागान म्हळें.

‘‘तुमी सरपंच आनी ताचो साथिदार स्वयं-रोजगार येवजणे संबंदान कितें उलयतात तें आयकत जाल्यार ते कसली योजना करतात ती कळटली.’’ हरीश.

‘‘तुमकां मरे कोणे तरी शिकोवन धाडल्यात. आमी आमच्या पांयार उबे रावंक जायना म्हूण.’’ नासेर.

‘‘आरे, पूण ते कितें सांगूंक सोदतात तें पूण आयकून घेयात मरे! ते तुमी म्हणटात तसले भुरगे न्हय, हें अजून तुमकां कळून येवंक ना? हरीश, सांग तूं. कितें म्हणूंक सोदतालो? सरपंचान अशी कितें म्हूण योजना आंखल्या?’’ सुरज-

‘‘आयकून घेयात सारखें पयलीं. आमी लिपचेल्यानीं खेळटाले. खेळटां

खेळटां आमी सरपंच्याच्या घराकडेन पावले. थंय जनेला सकयल आमी लिपले.'' पिरीश.

''सरपंच त्या साथिदाराक तापयतालो. तुवें पयलीं पयशे घेवन नांवां घेवचेलीं न्हय काय म्हूण. जाल्यार तो साथिदार सांगता, पयलीं तरणाटे जाळ्यांत गावता जाल्यार पळोंवया आनी मागीर पयशे मागूंया अशें थारिल्लें.'' हरीश.

''म्हणजे ही कितें आमकां जाळ्यांत ओडपाची मांडणी तर!'' नासेर.

''पूण जाळ्यांत ओडून फुडें कितें करतलो? जाळ्यांत ओडप म्हळ्यार कितें?'' सर्वेश-

''तुमकां ताच्या संबंदान कितें समजलां?'' सुरज-

''ते खातीर तर आमी धांवून हांगां आयल्यात.'' हरीश.

''मागीर, सांगात मरे तर बेगीन.'' सगळ्यांनी उमळशीकेन एकदम विचारलें.

''आरे, सरपंच, आमदार बी सगळे तुमकां ह्या स्वयं-रोजगार योजणेच्या नांवार एकठांय करून तुमकां वायट नादाक लावन आपले तावडींत दवरपाक सोदतात.'' हरीश.

''वायट नादाक! ते आनी कशें?'' सगळ्यांनी अजापान विचारलें.

''हांव सांगतां तुमकां कशें तें.'' देवून तांचे म्हऱ्यात येवन सांगलें.

सगळे ताका आजापान पळेत उरले. हो आनी कोण काय म्हूण. आंगान-पांगान सणसणीत, स फूट उंच, गळ्यांत तावज, कानांत बाळी आंनी हातांत कडें. हरीशाक आनी पिरीशाक तो वळखीचोसो दिसलो. तोयबी तांकां वळखल्या भशेन पळोवन हांसलो. सुरजाकडेन पळोवन ताणें सांगलें,

''हांव देवू. हांगां हांव नवो आसां. पिंपळा पेडाकडेन रावतां. सरपंचाची येवजण आयकून नांव दिवंक गेल्लों. नांव दिलें, तेन्ना पैशे मागतालो, एक हजार. फाल्यां हाडटां म्हूण सांगलें. पूण येवजण कशी कितें आसा, कितें शिकयतले म्हूण विचारतंकच गोंदळ्ळे. तेन्नाच दिसलें हातूंत कितें तरी, खंय तरी उदक मुंगरता.'' देवू.

''हय, अशेंच ते उलयताले.'' हरीश आनी पिरीशान सांगलें, ''सरपंचान स्पस्ट उतरांनी सांगलां, सरकारी ग्रेंट, एक लाख रुपया आनी तीस

भुरग्यांचे तीस हजार रुपया हे फकत तरणाट्यांक व्यसनाक लावपाक उपेग करपाचे. म्हणटकच मार्गीर निवडणुके खातीर तांचो जाय तसो लाव घेवपाक मेळटलो. फकत बार उकतें करून दवरतकच जालें.''

''कितें? कितें सांगतात रे तुमी? कानार विस्वास बसना. ज्या सरपंचान गावांक व्यसनमुक्त करचेलें, गांव सुदारपाचो, तो सरपंच गावांतल्या तरणाट्यांक व्यसनांत बुडोवंक सोदता?'' सुरज.

''आमी तांकां तशें करूंक दिवंक जायना. आमी सगळो गांव जागो करुंया.'' सर्वेश.

''पूण गांव कसो आमचेर विस्वास दवरतलो?'' नासेर.

''ती काळजी तुमी करूं नाकात. सरपंचाक आनी त्या आमदाराक सारखे उगडे वडोवपाची मांडणी हावें केल्या. तांचें कारस्थान सगळ्यांच्या मुखार व्यवस्थीत उगडें वडोवंया. हावें एक आराखडो तयार केला, ते प्रमाण जिस्त मांडणेन वचूं या.'' देवून समजायलें.

''तूं जशें सांगता ते प्रमाण आमी करतात. तुज्या वांगडा आमी आसात. पूण ह्या नरकासुराक मेकळो करूंक जाय.'' सुरज.

''तुमी सगळे जाण जाय. आमी पांच जाण मेळत आनी हावें जशी येवजण आंखल्या तशें घडोवन हांडीत जाल्यार सरपंचाक सारखो तावडींत पकडून ताचे वायट हेतू लोकां मुखार पुराव्यासयत दाखोवन ताका सरपंचाची खुर्ची सोडूंक लावपाक जातली. इतलेंच न्हय, ताका ख्यास्त लेगीत करूंक जातली.'' देवू.

''कशे कितें करुंया तर?'' सर्वेश.

''आयकात तर.'' देवून अशें सांगून आपली मांडणी तांकां समजावन सांगली.



# 21



"वेदीर बशिल्ले सगळे मानेस्त आनी समोर बशिल्ल्या तरणट्यांनो, तशेंच तांचे पालक आनी हेर मानेस्तांनो." अशें म्हणून सरपंचान बसकेची सुरवात केली. सभा पंचायतीच्या सभाघरांत चलताली. वेदीर थळावे आमदार, पंचायत मंत्री, उपसरपंच आनी पंचायतीचे हेर वांगडी हाजीर आसले.

"आमच्या थळाव्या आमदाराक ह्या गांवचो खूब मोग. म्हूण जरीकूय तो ह्या गांवचो नासलो तरी लेगीत ह्या गांवचे उदरगती खातीर तरेतरेच्यो येवजण्यो तो लागू करूंक फाटी-फुडें पळेना. तांतलीच ही एक खूब बरी येवजण ताणें आमकां दिल्या. ती म्हणल्यार ग्रामीण रोजगारा-अंतर्गत रोजगार प्रशिक्षण कार्यशाळा. हातूंत शिक्षण घेतकच कोणूच तरणाटे बेकार म्हणटात ते उरचे नात. ताणें फुडाकार घेवन ही येवजण पुरायपणान तयार करून सरकारा मुखार दवरून पास करून हाडली. आमचे ग्रामपंचायत मंत्री लेगीत गांवांचे उदरगतीची कसलीच येवजण कुशीक दवरीनात. ती पास करून चालीक लावपाचें काम आपूण मुजरत लक्ष दिवन पळेतात. आयज ते तेखातीर जातीन हाजीर आसात. हांव तांचे लागीं मानतां, तांणी हे येवजणेचो शुभारंभ कार्यशाळेचे कुडीचें उक्तावण करून करचें. आनी हे येवजणेची म्हायती दिवंची." अशें म्हणून सरपंचान ताका कुडीकडेन येवपाक खूण केली. इतल्यान,

"आरे, पूण येवजण तुजीच न्हय रे, म्हणटकच तुवेंच ताची म्हायती दिल्ली बरी न्हय?" सुरजान मोठ्यान म्हळें.

"येवजण म्हजीच. पूण मंत्री सायबान ती परिपूर्ण केल्या. म्हणटकच तिचेर उलोवपाचो अधिकार तांचो. तेच ती येवजण समजावन सांगतले."

सरपंच.

“मोगाळ भुरग्यीं, तांचे पालक, सरपंच, उपसरपंच, पंचायत वांगडी, आमदार आनी बाकिचे मानेस्त. आयज आमी एके म्हत्वाचे कार्यावळी खातीर हांगां जमल्यात. गांवच्या लोकांनीं एक मतींत दवरूंक जाय, आतां पयलींची परिस्थिती उरूंक ना. आयज कितलेय शिकले तरी काम मेळूंक कुस्तार जालां. वचत थंय भयंकर कॉंपिटीशन आनी वशिलो. ताका लागून सामान्यांक संदी मेळूंक कुस्तार. अशा वेळार आपूण खंयचें तरी, आपल्याक शक्य आसा तें काम आपूण शिकून जर आपलो धंदो आपूण करीत जाल्यार कोणाच कडेन हात पसरावपाची, वा बेकार बसून तवनासपणां करपाची गरज पडपाची ना. तेचखातीर जेन्ना ही येवजण म्हजेकडेन आयली, तेन्ना हावें तिका रोकडीच मान्यताय दिली. हांव गांवच्या सरपंचाक, पंचायत वांगड्यांक आनी आमदाराक परबीं दितां. आनी हातूंत शिकून आपल्या पांयार उबे रावपी सगळ्या प्रशिक्षण घेवपी तरणाट्यांक सुयश चिंततां.”

लोकांनी ताळयांचो गजर केलो.

“हांव मंत्र्यांक विनंती करतां, तांणी हे कार्यावळीचें रितसर उक्तावण करचें. आमी हें प्रशिक्षण हे ते कुडींत आयोजीत केलां. ताचें फीत कापून उक्तावण करचें अशी विनंती. सगळ्यांनी हांगांच बसून रावचें. कोणेच आपल्या जाग्यावयले उठचे न्हय.” मंत्री उठून ते कुडी कडेन फीत कापूंक गेलो. हळूच देवू आनी बाकिचे चारीय जाण उठून फाटल्यान गेले. त्या बरोबर सरपंचाचो सांगाती तापलो, “आरे, तुमकां हांगाच रावात म्हूण सांगलां मरे? फुडली कार्यावळ हांगांच जातली.”

“तूं कोण रे आमकां येंव नाका म्हूण सांगपी? आमी आमचे ग्रामपंचायतींत आसात. कोणाचे बितोडेर नात.” सर्वेश.

“आमकां खंय शिकयतले आनी कितें शिकयतले तें पळोवक जाय.” देवू.

“तें तुमकां फाल्यां पळोवंक मेळटलें. आयज न्हय.”

“आयज कित्याक न्हय? आयज पळेल्यार कितें कोणाची नदर लागतली?” देवू.

“काय गायब बी जातले?” सर्वेश.

‘‘सामान कितेंय हाडल्यार गायब जावपाचें न्हय? मंत्र्याच्या हातान फकत रिकामे कुडिचें उक्तावण.’’ देवू.

‘‘कोणे सांगलें तुका?’’

‘‘कोणे सांगपाक जाय? पळे मरे तुज्या दोळ्यानीं. उक्ती करपाक लाय ती कूड.’’ देवू.

मंत्री फीत कापता आनी परतुपाक फाट करता. इतल्यान देंवू ताका आडायता.

‘‘पात्रांव, कितें ती नवी कूड बी बांदल्या? खिळी घालून चावी केल्ल्या रुमाचें फीत कापूनशें उक्तावण केलां?’’ देवून विचारलें.

‘‘आतां तुवें आयकलें ना? प्रशिक्षण केंद्राचें उक्तावण केलां.’’ मंत्र्यान सारवासाव केली.

‘‘केंद्राचें. म्हणल्यार फकत रिकामे कुडीचें. अशेंच मूं?’’ देवून मोठ्यान लोकांक आयकूंक येता असो आवाज काडून विचारलें.

‘‘म्हणल्यार तुका कितें म्हणपाचें आसा?’’ मंत्री.

‘‘तुमी जर खरेंच प्रशिक्षणाचें उक्तावण करूंक आयिल्ले जाल्यार कूड उक्ती आसपाची, भितर कसलें प्रशिक्षण दितले ताचें सामान-सुमान मांडिल्लें दिसपाचें. तें कित्याक उक्तें ना तर? सगळें लिपोवन चावीशी घालून सस्पेंन्सान शें दवरलां? तुमीय कित्याक पळेनात?’’ देवू.

‘‘म्हाका आतां वेळ ना. आनीक एके कार्यावळीक पावंक जाय.’’ मंत्री.

‘‘निदान ती उक्ती करूंक तरी सांगात.’’ सर्वेश.

‘‘पुरो, पुरो आतां. चड जालें तुमचें. मागीर तुमकां दाखयतां कितें तें. आतां मंत्र्याक वचूं दी.’’ सरपंच.

मंत्री फीत कापून आयलो आनी वेदीर बसचे जाग्यार सरळ गाडयेकडेन गेलो. सरपंचाकडेन कितें तरी उलयलो आनी गाडयेंत बसून गेलो. हेवटेन सुरज, सर्वेश, नासेर बी उचांबळीत जावन व्हडा-व्हडान उलोवंक लागले. तेवटेन सरपंच मायकावेल्यान तापलो.

‘‘थंड बसात मातशे. बोवाळ करूं नाकात. फुडली कार्यावळ चलोवंया.’’ सरपंच.

देवून मायकार येवन सगळ्यांक वगी केले आनी सरपंचाक विचारलें,

''हें पळे सरपंचबाब, आमचे पालक हांगां आयल्यात. ताणी घाम गाळून, एक एक पयसो एकटांय केला. तांतूंतलो एक हजार प्रत्येक भुरग्याफाटल्यान तुमचेकडेन दिला. एक हजार म्हळ्यार तुमकां कांय न्हीं. पूण जे हाताच्या पोटार जगतात तांकांच हजार म्हळ्यार कितें तें कळचेलें.'' देवू.

''तूं कितें सांगूंक सोदता? हांवें कितें तांचे पयशे खाल्यात?'' सरपंच.

''हें पळे, सरपंचबाब, रागार जाय नाका. पूण हे सगळे जे पालक हांगां आयल्यात ते उमळशिकेन आयल्यात. आपल्या पुताक कसलें पूण शिक्षण मेळटलें तें पळोवपाक. तांकां तें कळूं दी.''

देवून थंडसाणेन सांगलें.

''तुमकां कळ्ळां न्हय, मागीर सांगांत मरे तांकां तुमीच.'' सरपंचान पळवाट सोदली.

''हें पळे, सरपंचबाब. स्वयं-रोजगार येवजण म्हळ्यार आमी आमच्या पांयार उबे रावपा-खातीर तुमी तयार केल्ली येवजण. ती तुमी कसली येवजण तयार केल्या, आमकां कितें कितें सांगतले, कितें कितें शिकयतले, कसल्यो वस्तू करूंक शिकयतले, कसलीं मशिना हाडल्यांत, कसलीं कसलीं मशिनां आमी वापरूंक शकतात म्हणपाचें आमकां तुमी दाखयतले, हें आमकां कशें कळटलें, आनी आमी पालकांक कितें समजायतले? बरें आमकां शिकोवपी शिक्षक कोण, कोणूच काय हांगां दिसनात. आमकां शिकोवपाचें सामान ते उक्तावण केल्ले कुडींत बन्द करून दवरलां तशे प्रशिक्षण दिवपी शिक्षकांकूय धांपून दवरल्यात काय कितें?'' देवू.

''तुमकां सांगलां न्हय रे, तें सगळें तुमकां फायच्यान कळटलें म्हूण?'' सरपंच.

''ना, सरपंचबाब पळे, हे सगळे पालक जे आयज आयल्यात ते कामांक वच नासतना आयल्यात. तांचो आयचो दिसवडो चुकलो. फाल्यां आनी तांकां चुकोवंक लांव नाका. तांकां कळपाक जाय, तांच्या पुतांक तुमी कसलें पूण शिक्षण दितले तें.'' देवू.

''हें पळे, सरपंचबाब, तो सांगता तें सामकें बरोबर. आमच्या भुरग्यांक कसलें शिक्षण दितात तें आमकां पळोवंक जाय.'' एक पालक.

''तुमी वगीच उचांबळ जातात. ह्या भुरग्याच्या नादाक लागूं नाकात. तुमच्या भुरग्यांक आमी कितें तांकां बरें तेंच शिकयतले न्हय? कितें तें आयज कळ्ळें कितें आनी फाल्यां कळ्ळें कितें एकूच न्हय?'' आमदार सरपंचाच्या आदाराक आयलो.

''बरें सांगलें पात्रांव तुमी. आयज कळ्ळें कितें आनी फाल्या कळ्ळें कितें एकूच न्हय? मागीर, पात्रांव, आयज ती कुड उक्ती करून दाखोवपाक फाटीं-फुडें कित्याक येतात तर?'' सुरज

''कसलें शिक्षण दितले आमच्या पुतांक? मेस्त काम, गवंडी काम, कॉप्युटर, कितें शिकयतले?'' दुसरो पालक.

''ते बंद कुडींत कितें दवरल्यात, कॉंप्युटर?'' आनीक एक पालक.

एक एक पालक उठ्ठा तें पळोवन सरपंच, ताचो साथीदार, आमदार एकामेका कडेन कुजबूजपाक लागले. तें पळोवन देवून फुडें पावल घालें.

''पात्रांव, फाटीं-फुडें कित्याक जातात, म्हज्या नादाक लागनाकात म्हूण सांगलें. तुमी जर फटयनात जाल्यार उगडून दाखयात मूं तो रूम. काम खालस.'' देवू.

''दाखयात तो रूम. ना जाल्यांर हो म्हणटा तशें कितेंय पूण तांतूंत गुड्डिलसांव आसा.'' पालक.

सरपंच आनी बाकिचे घाम पुसूंक लागले. ते नेर्व्हस जाल्यात तीच संद घेवंचेलें देवून थारायलें.

''हें पळे, सरपंचबाब. लोकांचो अंत पळोवं नाका. कसली येवजण ती उक्तेपणान सांग. ना जाल्यार हांव सांगतां.''

''तूं कितें जाण रे माती. तुका लागून ही परिस्थिती उप्रासल्या. तुका लागून हे लोक खुब्रळ्ळ्यात. नाजाल्यार ते येन्ना घरा वचपाचे. तुवें वाट लायली. तूं मेळूच भायर. तुका दाखयतां.'' सरपंचाचो साथिदार.

''तुका कितें दिसलें, आमचे पालक अशे दुदखुळे म्हूण? पयलींचे पालक न्हय ते, कळ्ळें? ते आमचे पालक, समजलें? तांकां अशे फटोवन तांच्या भुरग्यांक तुमी सहज व्यसनाक लायतले अशे दिसलें काय कितें?'' सुरज.

''आमी तुमकां कसल्या व्यसनांक लावंक सोदतात पापया? कोणे

तुमच्या कानांत हे नस्तें घालें? आमी तुमकां प्रशिक्षण दिवंक सोदतात मरे.'' सरपंच.

''कसलें प्रशिक्षण? सोरो कसो पिवप तें?'' देवू.

''सोरो? खंयचो सोरो? हांगां आनीक सोरो खयंचो आयलो?'' आमदार.

''तुमी पिशां झाडार चडूं नाकात, पात्रांव.'' देवून सांगपाक सुरवात केली, ''आयकात पालकांनों. ह्या तिगांयनीय मेळून एक येवजण आंखल्यात ती म्हणल्यार आमचो जो बरो सुखवस्तू गांव आसा तो पाडा घालपाचो. गांवाचे भुरगे बरे शिकले-सवरले, सर्विसेक लागले, जाल्यार हांच्या पोटांत दुखलें. तांकां भय दिसलो. तांची सेवा करपाक, निवडणुकेचें काम करपाक कोण लागीं येवचेनात. ते एकले पडटले. म्हूण ही येवजण. ह्या प्रशिक्षणाच्या नांवान भुरगे जमोवपाचे, तांकां चार गजाली सांगपाच्यो, गजाली सांगतां सांगतां सोरो पियेवपाक शिकोवप आनी तांकां व्यसनाक लावप. म्हणटकच ते तांचे तावडींत उरले. हाचे बगर तांचेलागीं आनीक कसलीच येवजण ना. ह्या रुमाचें जें आतांच उक्तावण जालां तांतूंत कॉम्प्युटर बी कांयच ना. तातूंत फकत सोऱ्याच्यो बाटल्यो भरल्यात. पंच्यायतीच्या रुमांत सोऱ्याच्यो बाटल्यो कित्याक, सरपंचबाब?''

''वगीच कितेंय उलोवं नाका.'' आमदार कशे बशेन उलायलो.

''तुमकां फट दिसता पालकानों जाल्यार ह्या सरपंच्याच्या चमच्याच्या बोलसांत पळेयात. त्या रुमाची चावी हाचे लागीं आसा.'' अशें म्हणून देवून त्या मनशाक घट धरलो. तो पळूंक सोदतालो. पूण देवूचे शक्ती फुडें ताचें कांय चललें ना.

''चोरांनो, बऱ्या गांवांची वाट लावंक सोदतात? तुमच्या भुरग्यांक बरे फॉरेनांत दवरतात शिकूंक आनी आमच्या भुरग्यांची वाट लावंक सोदतात, व्यसनांत बुडोवन मारूंक उठल्यात?'' अशें म्हणून सरपंचाक, ताच्या साथिदाराक, आमदाराक मार मार मारले आनी प्रत्येकाचे हजार हजार परत घेतले. तशेंच सगळ्या पंचायत वांगड्यांचे आनी आमदाराचो राजिनामो बरोवन घेतलो..

वता आसतना पालकांनी त्या देवूचो सत्कार करचें थारायलें. ताका

सगळ्याक सोदलो. पूण तो खंयच दिसलो ना.

ही गजाल हरीशान आनी पिरीशान फाटल्यान बसून पळयल्ली. तांकां समजून आयिल्लें, सेर्त, हें कामं आनी दुसऱ्याचें कोणाचें न्हय तर फकत देंवचाराचें. तांणी ताडलें, देंवचारूच देवूचें रूप घेवन आयलो आनी गावांक परत एकदां अरिश्टांतल्यान वाटायले म्हूण तांणी मनोमन पायां पडून ताचे उपकार मानले.

●●●



## ‘बाल नवलिका लेखन प्रकल्प’ येवजणेखाला उजवाडाक आयिल्ल्यो बाल नवलिका

1. हरीश, पिरीश आनी दैंवचार – सतीश दकवी
2. वर्स फुकट वचूंक ना – गजानन जोग
3. आज्याल्यो काणयो – देविदास कदम
4. रानाच्या मनांत – माया खरंगटे



गोवा कोंकणी अकादेमी